# वीर विरेंद्र आनी हेर काणयो



सुरंगा विलास मडकयकार

28

बालसाहित्य प्रकाशन येवजण

# वीर विरेंद्र आनी हेर काणयो

सुरंगा विलास मडकयकार

गोवा कोंकणी अकादेमी

# वीर विरेंद्र

एक आसलो राजा. त्या राजाक भुरगींबाळां नासलीं म्हण तो खंती आसतालो. राजान सगळे उपाय करून पळयले, पूण ताका भुरगें जालेंच ना. तेन्ना राणयेन ताका दुसरें लग्न करचेलो उपाय सुचयलो. राणयेलो हो उपाय राजाक मात लेगीत आवडलो ना. कारण, राजा आपले बायलेचो खूब मोग करी. दुसरी बायल केली आनी तिणें सवतीमत्सर दाखोवंक सुरवात केली जाल्यार तें आपणाक केन्नाच आवडचें ना, हें राजाक खबर आसलें. पूण आपूण निपुत्रीक म्हूण मरतलों, म्हूण ताका वायटय दिसतालें.

एक दीस अशेंच उलयतां-उलयतां ताच्या प्रधानान राजाक म्हळें, "हरशीं राजाक कितल्योय बायलो करूंक हरकत ना. तशें पळोवंक गेल्यार पुराणांत लेगीत राजांनी आनी देवांनी एकापरस चड बायलो केल्यात. तांकां सारक्यो बऱ्यो नंदयल्यात आनी त्योवूय बी भयणी-भयणी कश्यो एकठांय रावल्यात". हें प्रधानाकडल्यान आयकनाफुडें राजान विचार केलो. एक कितेंय मेळोवचेखातीर आपल्याक एक कितें तरी वगडावचे पडटलेंच. राजान विचार केलो. आपूण मुद्दम काय लग्नाक तयार जावंक ना. आतां राणीच सांगता म्हणटकच कितें घडटलें ताची जापसालदारकी राणयेचेरूच आसतली. तेन्ना सगळे सांगतात जाल्यार लग्न जावंक कसली हरकत आसा? राणयेक दुखयना जाली म्हणटकच जालें. शेवटाक राजा लग्नाक तयार जालो.

राजाक दुसरी बायल पळोवपाची आनी लग्नाची सगली तयारी करपाची जापसालदारकी राणयेन घेतली आनी एक सुंदर राजकन्या पळोवन राणयेन राजाचें लग्न केलें. लग्नांत राणी व्हडा उमेदीन वावुरताली.

दुसरी राणी दिसूंक भोवच सुंदर आसली. नवी आसली, तेन्ना ती राणयेकडेन बरे भशेन वागताली. पूण जशे जशे दीस वचत रावले तशे तशे तिका आपले सवतीविशीं मत्सर जावंक लागलो. कारण, राजा अजुनूय व्हडले राणयेक चड बरें करतालो. ती सांगता तें आयकतालो. तातूंत आनी धाकली राणी आवय जावचेली आसली. कितल्या वर्सांनी राजाल्या घरांत पाळणें

हालपाचें आसलें. आपणें राजाक बापूयपण दिलें, म्हूण तिका गर्व जाल्लो. पूण राजाक दिसतालें, व्हडले राणयेन मन व्हड करून आपल्याक दुसरें लग्न जावचेलो सल्लो दिल्ल्यान आपूण बापूय जावंक पावलों.

व्हडली राणी सभावान खऱ्यांनीच बरी आसली. ती आपले सवतीक धाकले भयणीवरी करी. तिका जेन्ना कळ्ळें की राज्याक वारस जावचेलो आसा तेन्ना तिका सगळ्यांपरस चड खोस जाली. पूण तिचें दरएक उतर म्हळ्यार धाकलेलें बोंथर जळटालें. आनी एक दीस धाकटे राणयेन दोन धुवांक जल्म दिलो. दोनूय धुवो आवय सारक्यो सोबीत दिसताल्यो. राजाक खूब खोस जाली. आपूण निपुत्रीक ना म्हणपाची खात्री जाल्ल्यान तर भोव खोस भोगली. पूण चलो जाल्यार दुदांत साकर पडटली आसली अशें ताका दिसलें. व्हडले राणयेक तर त्या बाळकांक खंय दवरूं आनी खंय नाका अशें जाल्लें. तीं आपले सवतीलीं भुरगीं म्हूण ती साप्प विसरिल्ली. पूण धाकली राणी मात तिचे कडेन कुसकेपणां करताली. ती वांझ आनी तिणें आपल्या धुवांक हात लायल्यार वायट कितेंय घडटलें अशें तिका दिसतालें, म्हूण ती आपल्या धुवांक व्हडले राणयेकडेन पातयेनासली. तिणें त्या चलयांक खेळयल्यार वा घेवन भोंवल्यार, रोखडीच ती दासीक सांगून तांकां आपल्या म्हऱ्यांत हाडी. व्हडले राणयेक हाचें खूब दुख्ख जातालें. ती देवा फुडयांत वचून घळघळीत रडटाली. आपल्याक अशी निपुत्रीक केल्या म्हूण देवाक दोश दिताली. पूण तिणें देवाची आराधना करपाचें सोडूंक नासलें. दिसपट्टे ती देवाकडेन मागी, देवा म्हाका निपुत्रीक म्हूण मरण दिवं नाका.

हेवटेन धाकटे राणयेल्यो दोनूय धुवो वाडत आसल्यो. पूण तांचें भुरगेंपण व्हडले राणयेक पळोवंक मेळच नासलें. तिका दिसतालें, त्या चलयांक धरचीं, न्हाणोवचीं, तांचे केंस वळोवचे, तांकां बरीं न्हेसोवचीं. पूण धाकटी राणी तांकां आपल्या म्हालाभायर काडीच नासली. राजा आपल्या राजकारभारांत गुल्ल आसतालो. व्हडले राणयेन धाकली राणी भुरग्यांक आपल्या म्हऱ्यांत धाडीना वा ती आपल्याकडेन कुसकेपणां करता म्हणपाचें राजाक केन्नाच कळूंक दिवंक नासलें. कारण, तशें सांगल्यार तांचे मदीं वायटपण जातलें हें तिका खबर आसलें. आपल्याच नशिबाक दोश दिवन ती दीस काडटाली.

पूण सदांच दीस सारके आसनात. ओपारूच आसा न्हय, 'चार दीस मांयचे आनी चार

दीस सुनेचे' म्हूण! आपूण आवय जावचेली आसा ही गजाल जेन्ना तिका कळ्ळी, तेन्ना ती खोशी जाली. राजाक जेन्ना ही गजाल कळ्ळी, तेन्ना राजाकय खूब खोस जाली. ताणें तिची खास वेवस्था केली. तिका म्हालांत सगल्यो सुखसोयी तयार दवरल्यो. कारण, राजा तिका खूबच बरें करी आनी ती आसलीय मोगाळ. सगली प्रजाय तिका मान दिताली आनी ती आवय कशी सगल्या प्रजेच्या सुखदुख्खांत वांटो घेताली.

धाकटे राणयेक जेन्ना ही गजाल कळ्ळी, तेन्ना तिका भोव दुख्ख जालें. हिगेर चलो जालो जाल्यार तोच राज्याचो वारस जातलो, तेन्ना ताका कसोय करून ना करचो पडलो, म्हण ती विचार करूंक लागली. तिणें आपले आवयगेर साकून हाडिल्ले खास दासीक आपोवन हाडली आनी तिका सांगलें, "कितेंय तरी उपाय सोदून काडून तिगेर जातल्या भुरग्याक नाच्च कर."

धाकली राणी त्या दिसाच्यान व्हडले राणयेक बरें करूंक लागली. तिका कितें जाय नाका तें आपूण पळोवंक लागली. ती तिका एकटी म्हूण सोडिनासली. मोगान तिचें सगळें करताली. हें पळोवन व्हडले राणयेक बाबडेक दिसलें, जावं आपली सवत आपूण समजताली तितली वायट न्हय. आनी तिवूय बी ती सांगता तशें करताली. एक दीस राणयेच्या पोटांत जावंक लागलें. धाकटे राणयेन तिगेल्या सगल्या दासींक महालांतल्यान भायर धाडल्यो, तेबदला आपल्यो दासी थंय दवरल्यो आनी राणयेचें बाळंतपण करूंक ते खास दासीक दवरली. बऽऽऽरे राती राणयेन एका सोबीत चल्याक जल्म दिलो आनी ते तकालशीन ती बेशुध्द जाली. दुश्ट दासीन पयलींच सगळी तयारी केल्ली. तिणें त्या भुरग्याक एके आंगलेंत गुठलायलो आनी ताका घेवन ती भायर सरली, दुसरे एके दासेन एक माजराचें पील हाडून राणये फुड्यांत दवरलें.



राणी जेन्ना साबुद्दीर आयली, तेन्ना तिका कळ्ळें की आपल्यागेर माजर जालां. तेन्ना तिका आपलोच न्हय तर देवाचोय राग आयलो. देवान दिवचें दिवन माजर दिलें म्हूण तिका दुख्ख जालें. राजाक तें समजनाफुडें

राजालेंय तोंड येदेशें जालें, पूण कितें करतलो? राणयेक दुख्ख जायत म्हूण ताणें म्हळें, "देवाक जाय तशें जाता. तूं कांयच खंत करूं नाका. हांव तुका कांयच दोश दिना. जशी देवाची मर्जी."

तेवटेन ते दुश्ट दासीन त्या भुरग्याक एका खोंटल्यांत घालो आनी एके न्हंयंत सोडून दिलो. तो खोंटलो व्हांवत-व्हांवत दुसऱ्या एका राज्यांत पावलो. थंय एक मडवळ कपडे धुतालो. ताची नदर त्या खोंटल्यार पडली. ताणें तो खोंटलो उगड जाल्यार तातूंत एक भुरगो आसा. त्या मडवळाकूय भुरगें-बाळ नासलें. ताणें ताका घरा व्हेलो आनी आपले बायलेकडेन दिलो. ताचे बायलेक दिसलें, देवानच आपल्यालें गाराणें आयकलें आनी आपणांक भुरगो दिलो. तीं ताची खूब अपुरबाय करूंक लागलीं. तांणी ताचें नांव विरेंद्र दवरलें.

मडवळागेर जरी विरेंद्र वाडटालो तरी ताचें सगळें वागणें एका राजकुंवरावरी आसलें. कसलीय गजाल तो एक फावट पळयल्यार शिकतालो. तो मडवळ त्या राजाचे कपडे उमळटालो. ताका लागून तो राजवाड्यांत येतालो. विरेंद्रूय बी आपल्या पोसक्या बापायवांगडा हट्ट करून राजवाड्यांत वच. थंय राजकुंवर ज्यो ज्यो विद्या शिकताले त्यो तो पळयी आनी घरा येवन आपूण करी. मडवळान ताका मागता-मागता तें दिवचें, कारण, ताका भुरगेंबाळ नासलें. आनी दुसरें म्हळ्यार विरेंद्र बेठेच हट्ट करीनासलो. जाय तेंच मागतालो आनी ताचो उपेग करून दाखयतालो. इल्ली-इल्ली करून ताणें त्या राजाल्या पुतांची दोस्ती केली. त्या राजाक दोन पूत आनी दोन धुवो आसल्यो. राजाच्या पुतांकडेन दोस्ती करतकूच ताका घोड्यार बसूंक, तरसादी चलोवंक, धनुश्यबाण चलोवंक मेळूंक लागलें. तो त्या राजकुंवरांचें पळोवन सगल्यो कला शिकलो आनी तांचे परसय चड हुशार जालो. आतां विरेंद्र वयार आयिल्लो. राजपूतांचो तर तो खास दोस्त जाल्लो.

ताचे दीस राजकुंवरावांगडा अशे हांसत खेळत वताले, पूण एक दीस त्या राज्याचेर एक अरीश्ट आयलें. त्या राजाल्यो दोन राजकन्या-रुपा आनी दीपा. रुपेस्त आनी सभावानय गुणेस्त. त्या दिसा फिरपाक गेल्ल्यो त्यो परत आयल्योच नात. इतलेंच न्हय तांचे बराबर गेल्ले दासीक लेगीत कळ्ळें ना, त्यो खंय गेल्यो वा तांका कोणें व्हेल्यो! राजा, राणी आनी तांचे हे दोगय भाव सुरेंद्र आनी राजेंद्र चिंतेंत पडले. राणयेन तर हांथरूण धरलें. राजा जाण्टो जाल्लो.

तेन्ना सुरेंद्र आनी राजेंद्र राजकुंवरीचो सोद घेवपाक भायर सरले. पूण एक म्हयनो जायत आयलो, ते परते आयलेच नात. आतां राजाक खूबच चिंता जाल्ली. रुपा आनी दीपा ना जाल्लींच, पूण आतां सुरेंद्र आनी राजेंद्रय ना जाल्ले. राजाचें दुख्ख पळोवन विरेंद्राक खूब वायट दिसलें. ताका दिसतालें, आपणें तांचो सोद घेवंक वचचें. पूण ताचे आवय-बापूय ताका वचपाक कशीच मान्यताय दिना आसलीं. हेवटेन राजान राज्यांत पेर्गांव घालें, जो कोण आपल्या भुरग्यांचो सोद घेत, ताका आपूण अर्दें राज्य दिवन आपल्यो दोनूय कन्या दितलों. पूण तरीकूय कोणूच आपूणं सोद घेतां म्हूण राजाकडेन आयले नात. राजा खूब दुख्खी जालो. राणी तर आतां सामकी मरूंक तेंकली.

विरेंद्र राणयेक आपले आवयवरी करी. तिचे जातात ते हाल ताच्यान पळोवंक नजो जाले. ताणें आपले आवयक म्हळें, "आयो, राणी मरूंक तेंकल्या. आतां कोणेंय तिका धीर दिना जाल्यार आनीक ती वाचची ना. हांव ल्हानाचो व्हड तिच्या मुखारच जालां. तिणें आपणांल्या भुरग्यांक आनी म्हाका वेगळे लेखले नात. आतां ते संकटांत पडल्यात तर तांकां मदत करप तांचो इश्ट ह्या नात्यान म्हजें कर्तव्य. तेन्ना तुमी म्हाका आडावंक नाकात. हांव मेलों जाल्यार इश्टांखातीर मेलों, म्हूण म्हजें नांव जातलें. पूण असो वोगी रावलों जाल्यार हांव इतलों शूर आसुनूय एक भिजूड म्हूण फामाद जातलों. तेन्ना म्हाका म्हजें कर्तव्य करूंक आडखळ हाडूं नाकात. तशें केल्यार म्हजी जिणच मेल्लेवरी जातली."

मडवळाकूय दिसलें, आपूण मडवळ आसुनूय आपल्या भुरग्याच्या गुणांखातीर राज्यांत ताका खंयय भोंवक विरोध नासलो. इतलेंच न्हय, राजेंद्र आनी सुरेंद्र तर ताका भावासारके आपल्याबरोबर भोंवडायताले. आनी दुसरें म्हळ्यार प्रजेन राजाक मदत करप, वेळ आयल्यार आपलो जीव लेगीत दिवप हें प्रजेचें कर्तव्य, तेन्ना आपल्याक राजाक मदत करून ताका आपल्या उपकारांत दवरचेली संद आपल्या ह्या पोसक्या भुरग्याखातीर मेळटा हें चितून ताणें आपले घरकान्नीची समजूत घाली आनी विरेंद्राक ताणें राजकुंवराक सोदपाक वचपाची मान्यताय दिली.

आवय बापायलो निरोप घेवन विरेंद्र राजकुंवरांच्या सोदाक भायर सरलो. ताचे पयलीं ताणें राजा राणयेचोय आशीर्वाद घेतलो आनी तांकां आपूण जाता तितलो यत्न करून वेळ पडल्यार जीव लेगीत वगडावन राजकुंवराक सोदून हाडटलों हो विस्वास दिलो. राजान ताका

बऱ्यांतलो बरो एक घोडो आनी खर्चाक पयशे दिले.

विरेंद्र घोडो घेवन उत्तर दिकेंतल्यान वचूंक गेलो. तो राजेंद्र आनी सुरेंद्राची चौकशी करीत आनी नवे इश्ट जोडीत फुडें फुडें वतालो. पूण ताका उत्तरेक राजकुंवराची कांयच जाग लागली ना. ताणें ते दिकेच्या सगळ्या प्रदेशांत राजकुंवराचो सोद घेतलो आनी मागीर तो दक्षिणेंतल्या वाठारांत गेलो. तो फकत राजकुंवराचो सोदूच घेनासलो तर चलयांक चोरून व्हरपी कोणूय त्या प्रदेशांत आसा आनी थंयच्यो चड करून जुंवळ्यो चलयो ना जाल्यात हाचीय तो चवकशी करी.ताका आतां इल्ली इल्ली सुलूस लागूंक पाविल्ली. विजयपूरच्या राजाल्यो दोन धुवो ना जाल्यात आनी त्योवूय ह्या दोनूच दिसांत म्हणपाचें जेन्ना ताका कळ्ळें, तेन्ना ताणें थंयच्या लागींच्या लोकांक बारीक बारीक प्रस्न विचारपाक सुरवात केली. चलयो ना जाल्यात, ताचे चार दीस आदीं राज्यांत अनवळखी कोणूय आयिल्लो बी हेंवूय विचारलें. ताका एका शिपायाकडच्यान ही गजाल कळ्ळी की एक लांब खाडाचो, केंस विस्कटलेलो, भगवे कपडे घाल्लो, पूण साधू न्हय असलो एक मनीस राजवाड्यालागीं फिरतना ताणें पळयिल्लो आनी ताका हडकिल्लोय बी. पूण तो शिपायान हडकितकूच थंयचो नाच्च जाल्लो. ही बातमी आयकनाफुडें विरेंद्राक आपूण समा जाग्यार सोद घेतां म्हणपाचें कळ्ळें.

विरेंद्र तसोच उठलो आनी राज्याभायर फिरूंक लागलो. ताणें तर्क केलो की हो जो मनीस चलयांक व्हरपी आसा तो असो तसो आसचोना. कारण, कसलोय बोवाळ नासतना तीं ना जाल्यांत म्हणटकूच तो कोणूय जादूगार ना जाल्यार मांत्रीक आसूंक जाय. ही गजाल तकलेंत येना फुडें ताणें आनीक कळाव केलो ना. ताणें ह्या राज्यांत आनी लागींच्या राज्यांत आशिल्ल्या जादुगारांची आनी मांत्रिकांची वळेरीच तयार केली आनी गुप्त रितीन तांची चवकशी करूंक सुरवात केली. पूण ताका फावो ती म्हायती मेळना जातकूच ताणें रानांनी सोदपाक सुरवात केली. कारण, अशे विचीत्र लोक चड करून पयस रानांनी बी रावतात अशें ताका कोणेंतरी सांगिल्लें ती याद जाली आनी तो रानां भोंवपाक लागलो. रानांत भोंवतां भोंवतां ताका एका जाग्यार एका साधुलो आश्रम दिसलो, म्हूण तो आश्रमांत गेलो. थंय एक साधू आसलो. विरेंद्रान त्या साधूक सगळी गजाल सांगतकूच साधून म्हळें, "बाबा, तुवें म्हजे म्हऱ्यांत येवन भोव बरें केलें." तूं सांगता तो मांत्रीक ह्याच वाठारांत रावता. तो काली मातेक जुंवळ्या चलयांचो बळी दिवन एक सिध्दी मेळोवंक सोदता. ताका कन्या जुंवळ्योच नाकात, बऱ्यो शिलवानूय जाय

आनी ते खातीर तो चड करून राजकुंवरीच सोदता. हांवें अंतरगिन्यानान पळयलें, तेन्ना आतांमेरेन ताणें तसल्यो दोन चलयो मेळयल्यात. ताका सगळ्योच चार चलयो जाय आसल्यो आनी तूं म्हणटा ताचेवेल्यान म्हाका दिसता, ताका त्यो मेळ्ळयात आसतल्यो. फाल्यां उमास. तेन्ना फाल्यां रातच्या बारा वरांचेर त्या चलयांचें रगत तो कालीमातेक अर्पण करतलो आनी सिध्दी प्राप्त करतलो. म्हाका वायट दिसता तें इतलेंच की तो निरपराधी मनशांचे बळी घेता! पूण हांव पडलों साधू. ताचेकडेन वचून झगडयांत पडत जाल्यार तो म्हजे तपश्चर्येंत आडखळ हाडटलो. म्हूण हांव सगलें पळोवन वोग्गी बसतां."

हें आयकनाफुडें विरेंद्रान मनांत चितलें, मांत्रीक म्हणटकूच ताका सिध्दी जादू बी येतलो आनी असल्या मांत्रिकाकडेन फकत पराक्रमाच्या पालवान झगडूंकय अर्थ ना. तेखातीर कितेंय तरी मंत्रतंत्राचो उपेग करचो पडटलो आनी तेखातीर ह्या साधुचोच आपल्याक पालव घेवचो पडटलो. साधुनूय पळयलें, विरेंद्र पराक्रमी आसाच. ते भायर हुशारूय आसा आनी राजकन्यांक वांचयल्यार होच वांचयतलो. तेन्ना साधून ताका सांगलें, "हो मांत्रीक तसो भोव शक्तिवंत. ताचेकडेन खूब व्हडलें मंत्राचें बळगें आसा, तेन्ना ताका फटोवनच कितेंय करचें पडटलें. तेन्ना तूं अशें कर कशेंय करून तूं ताचे फातराचे घोलींत जंय तो रावता थंय वचपाचो यत्न कर. थंय तुका रानवटी जनावरांकडेन झगडचें पडटलें, इतलेंच न्हय, थंयचीं झाडां नरभक्षक आसात तेन्ना त्या झाडां म्हऱ्यांत चुकून लेगीत वचूं नाका. तीं आपल्या खांदयांनी आपलें खाण म्हऱ्यांत ओडटात आनी मागीर खातात. दुसरें म्हळ्यार, हांव तुका एक मंत्रिल्लो तावज दितां. तो कमराक बांद म्हणटकूच तूं आयला हे मांत्रिकाक कळचें ना. तुवें वचून एकूच काम करचेलें तें म्हळ्यार त्या राजकुंवरींक खंय लिपोवन दवरल्यात तें पळोवपाचें आनी त्यो जंय आसात थंय

आपूण दितां ती डबी दवरचेली. म्हणटकूच त्यो चलयो थंयच्यान नाच्च जातल्यो. त्यो ना जातकूच मांत्रिक भितलो. कारण, ताका हेच उमाशेक कालीमातेक रगत दिवपाचें आसा आनी हे उमाशेक जुंवळ्यो चलयो मेळ्ळयो ना जाल्यार त्या मांत्रिकाल्यो आशिल्ल्योय सिध्दी वतल्यो आनी तो सादो मनीस जातलो."

विरेंद्रान सगळें आयकून घेतलें आनी साधुलो आशीर्वाद घेवन तो मांत्रिकागेर वचचेले तयारेक लागलो. ताणें चितलें, फाल्यां रातच्या बारा वरांचेर तो चलयांक बळी दिवंक व्हरतलो, तेन्ना इतले बेगीनय थंय वचून कांयच उपेग ना. आयज विसव घेवचो आनी फाल्यां सांजचें थंय पावचें. कारण, मांत्रिकाक वेळ मेळत जाल्यार तो परत त्या चलयांक कांयच न्हय करून सोदून काडटलो, म्हूण विरेंद्र विसव घेवंक एका झाडापोंदा न्हिदलो. इतले दीस तो धांवपळ करीत आसलो, ताका लागून ताका बरी झेमय पडली. तो सकाळीं उठलो, तेन्ना ताची सगळी तकालस नाच्च जाल्ली आनी जिवाकूय बरें दिसतालें. मागीर तो हेवटेन तेवटेन भोंवून तीं रानां तेळपाक लागलो. कारण रानांची वळख करून दवरल्यार आपणांक बरें पडटलें, म्हूण तो भोंवत रावलो आनी सांजेच्या चारांक सुमार ताणें मांत्रिकागेर वचचेली तयारी केली. ताणें ती वाट बी पयलींच पळोवन दवरिल्ली. साधून दिल्लो तावज ताणें कमराक बांदलो आनी तो ल्हवू, ल्हवू रानांतल्यान वचूंक लागलो.

जेन्ना तो मांत्रिकाल्या घराकडेन पावलो, तेन्ना सूर्य अस्ताक वचपाचे तयारेंत आसलो. शेवणीं आपल्या घोंटेरांत ताकतिकेन वचूंक लागिल्लीं. उजवाडूय उणो जायत आशिल्लो. काळखी रात आशिल्ल्यान आतां विरेंद्राकय बेगीन वचपाची ताकतीक लागिल्ली. मांत्रीक जे घोलींत रावतालो ते घोलीच्या दारारूच सोरपाची एक भुरावळ हेवटेन, तेवटेन भोंवताली. पूण विरेंद्र तसो धैर्यवान. ताणें आनीक कळाव केलो ना. सपासप तो त्या सोरपांक कापून काडूंक लागलो.

सोरपाक कापून तो घोलींत भितर सरलो. ताणें पळयलें, घोलींत एक दिवटी पेट्टाली आनी तिचो हयन्हय सो उजवाड पडिल्लो तो ल्हवू-ल्हवू फुडें वचूंक लागलो. ताचें खोमीस मातशें एका झाडाचे खांदयेक लागलां मात तें झाड ताका आपल्या म्हऱ्यांत ओडूंक लागलें. विरेंद्राक साधून सांगिल्ले गजालीची याद जाली. ताणें आनीक वेळ केलो ना. तरसाद घेवन ती खांदीच

ताणें कापली. खांदी कापले बरोबर तातुंतल्यान रगत व्हांवक लागलें. विरेंद्राचो हात रगतान भरलो. ताणें आनीक वेळ घालयलो ना. आतां तो शिटूक जाल्लो. झाडांक चुकोवन तो फुडें-फुडें वचत आसलो. ती घोल भायल्यान दिसता तितली ल्हान नासली. भितर वता-वता म्हळयार ताका ते घोलींत ल्हान-ल्हान कुडी दिसल्यो. तो राजकुंवरींचो सोद घेत



आसलो, पूण ताका अजून मनशांची कसलीच जाग आयलीना. वाटेन चलतना ताच्या पांयांक कितें गुळगुळीत लागलें म्हूण ताणें सकयल पळयलें, तर ताका एक व्हडलो हार पांयांक विळखो घालता म्हणपाचें दिसलें. ताणें त्या हाराचे शेंपडेक हात घालो आनी कमराचो खंजीर काडून त्या हाराक तोपीत रावलो. हारान ताका घाल्लो विळखो सोडलो आनी तो ताका खावूंक तोंड आंऽऽ करून फुडें सरलो. ते सरशीं विरेंद्रान आपले तरसादीचें तोंक ताच्या तोंडांत धोंगशिलें. ते बराबर रगताची एक शिळकी ताचेर उसळ्ळी आनी तो हार थंयच मरून पडलो. विरेंद्र फुडें गेलो. आतां ताका एका आडसाक एक दिवटी पेट्टा ती दिसली. तो ल्हवूच फुडें चल जाल्यार ताका चार चलयो घट्ट बांदून दवरल्यात त्यो दिसल्यो. ताणें आनीक वेळ केलो ना. ल्हवूच ती पुडी ते घोलींत एका फातरापोंदा दवरली आनी तो थंयच्यान परतलो. ताका येतनाय सांबाळून येवचें पडटालें, पूण आतां तो जिवाक कसोच भियेनासलो. कारण ताचें काम जाल्लें. तो ल्हवू-ल्हवू घोलींतल्यान भायर सरतालो इतल्यान दोनचार वागोळ्यांनी ताचेर घुरी घाली. तीं आपल्यो तोंची ताचेर मारतालीं. तांणी ताका सामको फोडलो. पूण तांचेकडेनूय तरसादीन लडाय करून ताणें सगल्यांक मारून उडयलीं आनी तो फुडें-फुडें वचत रावलो.

इतलें करून परतता म्हणसर ताका रातचीं इक्रा वरां जालीं. उमाशेची काळखी रात आनी अटंग्या रानांतल्यान एकटोच परततना ताका सामको भंय दिसतालो. पूण ताका आपल्या

जिवाची पर्वा नासली. हेवटेन मांत्रीक पुजेची सगली तयारी करून दोगूय चलयांक व्हरूंक आयलो. कालीमातेचें देवूळ लागींच आशिल्ल्यान ताका त्या चलयांक थंय पयलींच व्हरून दवरचेली गरज दिसली ना म्हूण तो सुशेगाद आसलो.

साडेइकरांचो सुमार जाल्लो. आतां थोड्याच वेळान मांत्रीक घोलींत सर जाल्यार ताका त्या हयन्हयशा काळखांत सगळे सोरोप मरून पडिल्ले दिसले आनी ताका कच्च जालें. मातसो फुडें वच जाल्यार आपलो मायेमोगाचो हारूय मरून पडला म्हणपाचें ताका दिसलें. आतां मात मांत्रीक सामको भियेलो. तो सामको त्या चलयांक दवरिल्ले कुडींत पावलो तेन्ना ताणें पळयलें त्यो चलयोय थंय नात! आतां कितें करतलो? ती डबी ते कुडींत आशिल्ल्यान ताचे कसलेच मंत्रूय चलनात जाले आनी त्यो चलयो खंय आसात तेंवूय कळना जालें. तो सामको घामाघूम जालो. देवीक आज बारांक बळी मेळना जाल्यार आपल्यो सगळ्यो सिध्दी वचून आपूण सादो मनीस जातलों हें मांत्रिकाक खबर आसलें. पूण आतां ताका खूब उशीर जाल्लो. कारण, आतां थोडोच वेळ ताचे कडेन आसलो. ताका दिसलें,आतां आपल्यो ह्यो सिध्दी वतल्योच. तेन्ना आतां आसा त्या वेळाचो फायदो घेवन संवसारांत येवन दुसऱ्यांखातीर इल्लें तरी पुण्य करचें. ताणें बेगीबेगीन मंत्र म्हणपाक सुरवात केली. तेबराबर ते घोलींत आशिल्या झाडांचीं मनशां जालीं. जे मनीस राजकुंवरींच्या सोदाक गेल्ले, तांकां ताणें झाडां करून दवरिल्ले. ते परत आशिल्ले तशे मनीस जायनाफुडें वाट मेळटा तेवटेन धांवत सुटले आनी दीस्त बारा जावन एका मिनटाक मांत्रिकाक आपणांभितर कितें तरी बदल घडटा हाची जाणविकाय जाली. तो चिनारी येवन थंयच पडलो.



विरेंद्र रातबर एका झाडापोंदा न्हिदलो आनी फातोड जायनाफुडें आपलो घोडो घेवन बद्द थंय गेलो. थंय वचून पळय जाल्यार मांत्रीक थंय साबुद्द नासून पडला! ताणें उदक हाडून

ताच्या दोळ्यांर मारलें. तो साबुद्दीर येतकूच आपणें राजकुंवरींक सोडोवंक जाय म्हूण हें सगळें केल्ल्याचें ताणें सांगलें. मागीर ताणें ती डबी थंयच्यान काडली तेबराबर त्यो राजकुंवरी थंयच बशिल्ल्यो ताका दिश्टी पडल्यो. रुपान आनी दिपान जेन्ना विरेंद्राक उजवाडांत पळयलो, तेन्ना तीं ताका वळखलीं आनी दोगांय रडूंक लागलीं. तेन्ना विरेंद्रान तांका सांगलें, आतां रडपाची गरज ना. आतां फकत सुरेंद्राचो आनी राजेंद्राचो सोद घेवचो, तेन्ना रुपान आनी दिपान सांगलें, सुरेंद्र आनी राजेंद्र हांगाच आशिल्ले. मांत्रिकान तांची झाडां केल्लीं. हें आयकनाफुडें विरेंद्रान म्हळें, "तशें जाल्यार भोव बरें जालें. सुरेंद्र आनी राजेंद्र परत वचपाक गेले आसतले".

मागीर रुपान आनी दिपान त्या बाकीच्या दोन कुंवरींची विरेंद्राकडेन वळख करून दिली. तांची नांवां वल्लरी आनी वैभवी आसलीं. विरेंद्र तांकां घेवन येतना पयलीं त्या मांत्रिका म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें त्या मांत्रिकाक म्हळें, "तुवें जरी खूब पाप केल्लें आसलें, तरीय तुवें जें निमाणें पुण्य केलां, तेखातीर हांव तुका जिवो सोडटां. नाजाल्यार तुजेसारक्या मनशाक जिवो सोडप हेंवूय एक पापूच. हाचेफुडें अशे मंत्र तंत्र करून वेळ वगडावं नाका. शेवटाक मनीस तूं, मरपाचोच. वायट केल्यार वायट मरण येतलें. तेन्ना बरो मनीस म्हूण जग." मांत्रिकाकूय आपली चूक कळिल्ली. ताणें म्हळें, "हय सायबा. हाचेफुडें हांव अशे मंत्र तंत्र करचों ना. बरे तरेन जिवीत जगतलों." अशें म्हूण तो मांत्रीक थंयच्यान चलूंक लागलो.



विरेंद्र ह्या चारूय राजकुंवरींक घेवन साधुल्या आश्रमाकडेन आयलो आनी साधुचो आशीर्वाद घेवन तो बद्द आपल्या राज्यांत आयलो. सुरेंद्र आनी विरेंद्र पयलींच पाविल्ले. ते दोगूय येतकूच तांच्या आवयबापायक मातशें बरें दिशिल्लेंच. पूण आपल्या चलयांक कालीमातेक

बळी दिलीं म्हूण आयकतकूच तीं दुखेस्तूय जाल्लीं. पूण विरेंद्र आनी रुपा, दिपाक पळोवन तीं सामकीं खुशालभरीत जालीं.

विरेंद्र एक मडवळाचो पूत. पूण ताणें केल्लो पराक्रम पळोवन राजान म्हळें, "तूं खरो राजकुंवर. आयच्यान राज्यांत तुका राजपूतच म्हूण वळखतले. इतलेंच न्हय, हांव तुका म्हजो जावय करतां." तेन्ना विरेंद्रान म्हळें, "ना. रुपाक आनी दिपाक हांवें म्हज्यो 'भयणी' मानल्यात आनी तांचें रक्षण हांवें 'भाव' ह्या नात्यान केलां." हें आयकून राजाक आनिकूय खोस जाली. ताणें म्हळें, "तुजेसारको पूत मेळप हें म्हजें भाग्यंच".

तांचो एकमेकांक मेळपाचो सुवाळो जातकूच विरेंद्राक वल्लरीची आनी वैभवीची याद जाली आनी राजाकडल्यान निरोप घेवन तो तांकां पावंक वचूंक भायर सरलो. तेन्ना सुरेंद्र आनी राजेंद्रय तांचेबरोबर आसले. ते वल्लरी आनी वैभवील्या राज्यांत गेले.

राजा आनी राणयो चलयांच्या दुख्खान हांतरूण धरून आशिल्लीं. वल्लरी आनी वैभवी आयल्यांत म्हूण जेन्ना प्रधानान सांगलें, तेन्ना तांकां तें खरेंच दिसलेंना. व्हडली राणी, तर पयलींच दुखेस्त आसली आनी ह्या दोगूय कुंवरींक ती चड बरें करी. ती शेणटकूच ती सामकीच पिशी कशी जाल्ली. आज खरी चड खोस तिकाच जाल्ली. तिणें धांवत वचून दोगांय कुंवरींक वेंग मारली आनी ती घळघळीत रडली. तिचो आपल्या चल्यांविशीं उफाळिल्लो मोग पळोवन धाकले राणयेक आपणें केल्ल्या कर्तुबांची लज जाली. पूण आतां करतली कितें? तोंड धांपून वोग्गी रावली. राजान आपल्या कुंवरींक हाडपी चल्याची चवकशी केली. तेन्ना राजाक कळळें, ते आपल्या शेजारच्या राजालो राजकुंवर आनी विरेंद्र हो थंयच्या मडवळालो चलो. विरेंद्रानूच सगळ्यांक मांत्रिकाच्या हातांतल्यान सोडयलीं म्हणपाचें राजेंद्रान आनी सुरेंद्रान सांगतकूच राजाक तांची तोखणाय दिसली. व्हडले राणयेक तर ताका पळयनाफुडें आवयपणाचो उमाळो आयलो आनी ताका घट्ट वेंगेंत घेवन ती रडूंक लागली. राजान विरेंद्राची बारीक चवकशी केली. तेन्ना विरेंद्रान आपूण मडवळालो पोसको म्हूण सांगलें.

ताचे आवय बापूय कोण हें राजाक जाणून घेवपाची खूब उमळशीक लागली आनी ताणें रोकडेच आपले शिपाय मडवळागेर धाडून तांकां हाडपाची वेवस्था केली. मडवळ बाबडो भितभितच राजवाड्यांत आयलो. ताणें राजाक घडिल्ली सगली गजाल सांगली. तो भुरगो

खेंटल्यांतल्यान व्हांवत कसो आयलो आनी ताणें ताका कसो ल्हानाचो व्हड केलो ह्यो सगळ्यो गजाली सांगल्यो. हें सगळें आयकनाफुडें धाकटी राणी रडूंक लागली आनी तिणें राजाच्या पांयांर घालून घेतलें. तिणें मागीर सगळी गजाल राजाक सांगली आनी विरेंद्र हो तुजोच पूत म्हूण राजाक सांगलें. हें सगळें आयकनाफुडें राजाक धाकले राणयेचो राग आयलो. आपल्या सुवार्थाखातीर राणयेन व्हडले राणयेक इतलें दुख्ख दिलें, तें पळोवन राजान आपल्या प्रधानाक हुकूम दिलो, "धाकले राणयेक रानांन व्हरून तिची गोमटीच कातरात." पूण त्यावेळार व्हडले राणयेन तिका घट्ट धरली आनी म्हळें, "ना. हांव तिका मारूंक दिवचीना. ती म्हजी धाकटी भयण. हांवेंच तिका हाडिल्ली. तिच्या हातांतल्यान चूक जाली ती नकळटना. राजान तिका आपलेखातीर माफ करचें". व्हडले राणयेलें दरएक उतर राजा आयकतालो. व्हडले राणयेन तिचो जीव वांचोवचेली मागणी करतकूच राजान तिका माफ केलें आनी मडवळाक खूब धन दिवन ताचो भोवमान केलो.

विरेंद्राक आपले खरे आवयबापूय मेळिल्ल्याची खोस भोगली. पूण ताणें राजाक सांगलें, "तुमगेर जरी हांव जल्मलों, तरी जांगेर हांव ल्हानाचो व्हड जालां, त्या म्हज्या पोसक्या आवय-बापायक हांगा राजवाड्यांत हाडून तांकां म्हज्या म्हऱ्यांत दवरात." राणयेक हें आयकून आपल्या पुताच्या कर्तुबाची खूब खोस जाली. तिणें राजाक आपलो पूत सांगता तें समा आसा म्हूण सांगतकूच राजान तांकां राजवाड्यांत हाडचेली वेवस्था केली. मागीर विरेंद्रान राजाक सांगलें, "सुरेंद्र आनी राजेंद्र म्हजे इश्टच न्हय, हांव तांकां भाव कशे मानतां. तें नातें तशेंच तिगोवन दवरून वल्लरी आनी वैभवीखातीर तांकां मागणी घालची." राजाक सुरेंद्र आनी राजेंद्र आवडिल्लेच, दुसरें म्हळ्यार चलयांकय ते आवडिल्ले. आनी शेजारचो राजा दोस्त जातकूच दुस्मानाचो कसलोय भंय नासतलो हें चितून राजान रोखडीच तांकां मागणी घाली आनी व्हड दबाज्यान तांचें लग्न लावन दिलें.

हेवटेन रोखडेंच दिपालें आनी रुपालेंय लग्न थारलें. विरेंद्राकय खूब सोयरगती येवंक लागल्यो. पूण दिपान हाडिल्ली आपली नणंद विरेंद्राक खूब आवडली आनी तांचेंय व्हड दबाज्यान लग्न जालें. लग्नांत दोगांय राणयांवांगडा पोसकी आवय लेगीत नेटान वावुरताली आनी विरेंद्रय व्हडले खोश्शेन तिची वळख करून दितना लोकांक सांगतालो, "ही म्हजी देवकी आवय आनी ही म्हजी यशोदा आवय."

# मिकी - निकीची करामत

एक आसलो हुंदीर आनी एक आसली हुंदुल्ली. तीं रघुबाबाल्या बंगल्याफाटल्यान आशिल्या गुदावांत रावतालीं. गुदांव सदांच भरिल्लो आशिल्ल्यान तीं हेर हुंदरांपरस खावन जेवन सुखी आसलीं.

एक दीस हुंदुल्लेन बरीं सोबीत, सुंदर पिलां काडलीं. आपलीं पयलींच पिलां म्हूण हुंदराक आनी हुंदुल्लेक तांकां खंय दवरूं आनी खंय नाका अशें जालें. तांणी आपल्या पिलांचो बारसो व्हड दबाज्यान केलो. शेजारच्या सगळ्या घराघरांनी हुंदरांक बारशाक सांगलें. हुंदरांचो असो हो पयलोच बारसो आशिल्ल्यान सगळे हुंदीर आपल्या बायलां भुरग्यांक घेवन आयले. तो दीस आयतार आशिल्ल्यान गुदावांत मनशांची आडखळ नासली. तेखातीर तीं भियेनासतना हेवटेन तेवटेन वावुरतालीं.

हुंदुल्लेन रघुबाबाल्या पोरसांतलो पिटकोळेचो रिकामो घोंटेर हाडून तार्चे पाळणें केल्लें आनी रघुबाबालो ओक्ल पुसपाचो शामलादोर हाडून हांतरूण केल्लें. त्या मोव-मोव हांतरुणार दोगांय पिलां सुशेगाद न्हिदिल्लीं.

सगळ्यो शेजारच्यो हुंदुल्ल्यो येतकूच बारशाक सुरवात जाली. हुंदरान मोटे खोश्शेन पिलांचीं नांवां मिकी आनी निकी दवरलीं आनी आयिल्ल्या सगळ्या हुंदरांक साकर दिवन तांचें तोंड गोड केलें. त्या वेळार हुंदुल्लेन सगळ्या सवायशिणींची कपडो घालून व्हंट भरली. तिणें रघुबाबाले घरकान्नीची रेशमी साडी पयलींच हाडून दवरिल्ली. तिणें पांच वारी साडयेचे पांच सेंटीमीटर कुडके पयलींच काडून दवरिल्ले आनी भुरग्यांच्या हातार गोडाचो कुडको दवरून तिणें तांचो निरोप घेतलो. वतना सगळ्या हुंदरांक अर्द-अर्द पड तांदूळ दिवंक हुंदीर विसरलो ना. हुंदराचे आनी हुंदुल्लेचे गिरेस्तकायेची तोखणाय करीत आनी भुरग्यांक व्हड आयुश्य आंवडेत सगळीं हुंदीर घराणीं खुशालभरीत जावन वचपाक गेलीं.

अशेच दीस वताले. मिकी आनी निकी आपल्या बाललिलांनी आवय-बापायचें मन रिजयतालीं. तीं आवय बापायलीं अपुरबायेचीं आशिल्यान तांणी कितलीय मस्ती करूं, आवय

बापूय तांकां कांयच करीनासलीं.

हुंदुल्लेन तांकां हुंदीरपणाचें सगळें शिकप दिल्लें. तिणें मिकीक आनी निकीक एक व्हड शिटकावणी दिवन दवरिल्ली, "पळयात भुरग्यांनो, लक्षांत दवरात. मनीस हो आमचो दुस्मान. तेखातीर मनशाफुडयांत खेळचें न्हय. मनीस दिसले बरोबर लिपचें. मनशान आमकां मारूंक तरेतरेच्यो हिकमती सोदून काडल्यात. तुमी जर आमी जाण्टीं सांगतात तें आयकशात तर तुमकां कसलोच भंय नासतलो. मनशांनी केल्लें एक ल्हानशें सरयांचें घर आसतलें, भितर खाऱ्याचो वास येतलो आनी मनशाभशेन तुमचे जिबेक उदक सुट्टलें. पूण तुमी आशेवंक नाकात. भितर फकत नुस्त्याचें एक बोडूक तुमकां पटोवंक लांबोवन दवरिल्लें आसतलें. तुमी त्या बोडकाचे आशेन भितर सरल्यार मरणाचे दाडेक सांपडटलीं. त्या घरांक मनीस रांतेर म्हणटात आनी चड करून तो रातचो मांडून दवरिल्लो आसता. मनशालो दुसरो उपाय म्हळ्यार विखां. जर पावाच्या कुडक्याक तुपाचो वास येत जाल्यार पळोवचें. पाव कागदार उक्तो दवरला, उदका आयदनां धांपून दवरल्यांत, जाल्यार जें कागदार वा खोल्यार पावाक लावन दवरलां तें वीख. तें जर खावशात तर तुमी वांचचीं नात. तुमी जाणांत मरे, पयर शेजारच्या घरांतलें तें मनशालें चली वीख खावन मेलें तें. त्यो बायलो म्हणनासल्यो हुंदराक मारपाचें वीख खालें म्हूण? तेंच तें वीख मनीस आमकां मारूंक म्हण घरांत हाडून दवरतात. पूण मागीर आपुणूच खावन मरतात."

अशे तरेन मनशांमदीं कशें वावुरचें तें आपल्या भुरग्यांक हुंदुल्लेन समजायलें. निकी आनी मिकी तशीं शिटूक आसलीं. दीसभर तीं हेवटेन तेवटेन हेडत आसतालीं. शेजाऱ्यांगेर खेळूंक वचप तांकां खूब आवडटालें. शेजरा रघुबाबाल्या घरांत तांच्यो इश्ट इश्टिणी रावताल्यो. तांचे बराबर हीं दोगांय खेळत रावतालीं. रघुबाबाक दोन भुरगीं आसलीं. तीं खूब मस्ती आसलीं. मिकी निकी तांचीं मस्तेपणां ल्हवूच पळयतालीं आनी आपुणूय बी तशेंच करतालीं. अशें करतां करतां निकी आनी मिकीमदीं मनशाले कितलेशेच गूण हुंदराक आनी हुंदुल्लेक दिसूंक लागले. तांणी तांकां समजायलीं, "बाय निकी, तीं मनशां. आमी हुंदरां. आमकां हुंदरांभशेनूच वागूंक जाय." पूण मिकी निकी अपुरबायेन वाडिल्ल्यान आवय - बापायकडेन लाडीक हट्ट धरून जाय-जाय तें मागून घेतालींच.

एक दीस तर तांणी मनशां घालतात म्हूण आपणाकूय कपडे शींव म्हूण आग्रो धरलो.

हुंदुल्लेन तांका कितलीं समजायलीं ! आमचेमदीं कोण कपडे घालतात तें दाखय म्हळें, तेन्ना मिकून पिंटूले चोरून हाडिल्लें पुस्तक दाखयलें. त्या बुकार हुंदराचे कपडे घाल्ले फोटो आसले. ते दाखोवन मिकीन म्हळें, "पळय, आमचे हुंदीर कितले सुदारल्यात ते ! तुमी अजून ह्या गुदांवांतच आसात. मातशें गुदांवांतल्यान भायर येवन भायलें जग पळयात." ते फोटे पळोवन हुंदुल्लेकय खरेंच दिसलें. तिणें दुसऱ्या दिसा ल्हवूच रघुबाबाले धुवेली एक ओडणी हाडली आनी भुरग्यांक कपडे शिंवले. ते कपडे घालून निकी आनी मिकी बद्द रघुबाबागेर गेलीं आनी तांणी तांच्या आरमारी मुखार उबीं रावन हारशांत पळयलें. आपलें तें रूप पळोवन तांकां भोव खोस जाली. तीं थंय घरभर नाच-नाच नाचलीं आनी रात जातकूच घरा आयलीं. आपल्या भुरग्यांच्या तोंडार आयचे इतली खोस हुंदुल्लेन केन्नाच पळोवंक नासली.



एक दीस रघुबाबागेर ताच्या चल्याचो पिंटूचो वाडदीस आसलो. पिंटूगेर पयले दीसच सगळो बोवाळ सुरू जाल्लो. रघुबाबाली बायल-लोक तिका वयनी म्हण - तरेतरेची मिठाय करूंक गुल्ल आसली. शेजान्नीय तिका पालव दिवंक आयिल्ल्यो. मिकी आनी निकी दीसभर थंयच पडून आसलीं. तीं लाडू, चकरी, शंकरपाळी हांचे कोनशाक पडिल्ले कुडके खावन खोशी जातालीं.

दुसऱ्या दिसा पिंटूलो वाडदीस व्हड दबाज्यान मनयलो. निकी आनी मिकीकूय दिसलें. पिंटू भशेन आपलोय वाडदीस जावचो. तांणी घरा येवन आवयकडेन आपलो वाडदीस कर म्हणपाचो हट धरलो.

भुरग्यांलो हट दिसान दीस वाडत वता, हें हुंदराक कळटालें. पूण तो हुंदुल्लेक दुखोवंक शकनासलो. मिकी, निकी आपलो वाडदीस कर म्हूण हुंदुल्ले फाटल्यान लागल्यात, तें हुंदरान पळयलें आनी म्हळें, "भुरग्यांनो, पळयात. वाडदीस मनशालेच करतात, हुंदरांले न्हय." तेन्ना मिकीन म्हळें, "बारशेय मनशांलेच करतात. मागीर तुमी आमचो बारसो कित्याक केल्लो तर ? आमी तेन्ना ल्हान आसलीं. आमकां बारशाची कसलीच याद ना. ते खातीर तुमी आतां आमचो

वाडदीस करचोच पडटलो. ना जाल्यार आमी उपाशीं रावतलीं. आयच्यान आमचो संप. उपास!"

आपलीं भुरगीं उपाशीं रावतलीं हे चिंतेनूच हुंदुल्लेचें काळीज भरून आयलें. तिणें म्हळें, "भुरग्यांनो, आनी उपाशीं रावूं नाकात. देवा दयेन आमगेर खावंक जेवंक आसा. करया तुमचो वाडदीस." निकीक आनी मिकीक खबर आसलें, बापूय आयकना जाल्यार आवय आपलें आयकतलीच म्हूण. तांणी म्हळें, "हें पळय, आगे, आमकां पिंटूक हाडिल्लो तसलो केक जाय हां वाडदिसाक." हुंदुल्लेक आतां मात भुरग्यांलो हट खूब कठीण दिसलो. गुदावांत तांदूळ, गंव ,साकर, कांदे, बटाट आसले. पूण केक खंयचो हाडचेलो? ह्या विचारांत ती आसली. आनी हुंदुल्लेक एकदम याद जाली, पिंटूल्या वाडदिसाची. ती ताकतिकेन बद्द रघुबाबागेर गेली. पळय जाल्यार तांच्या घराक कुलप. हुंदुल्लेक सू जालें. गणपतीचें नांव घेवन हुंदुल्ली घरांत वचपाच्या भुंयारांतल्यान भितर सरली. डिटेक्टीव घराची झडटी घेतात, तशी ती कालचो केक खंय दवरला हाचो वास घेत रावली आनी तिका निमणें यशय मेळ्ळें. एका कोनशाक कोयराच्या पाटल्यांत हुंदुल्लेक केकाचे कुडके दिसले. हुंदल्लेन दोन मोटे केकाचे कुडके घेतले आनी तांच्यो कडो खावन ते वाटकुळे केले आनी ती बरे उमेदीन घरा आयली. वतना कागदाच्यो बशयो पुंजावन व्हरूंक ती विसरली ना.

घराकडेन वतकच तिणें भुरग्यांक कपडे घाले. केक बशयेर दवरले आनी सगळ्या शेजारच्या भुरग्यांक एकठांय केलीं आनी व्हड दबाज्यान निकीन आनी मिकीन आपल्या दांतांनी केक कापलो. सगळ्यांनी चींव चींव करून तांचे भाशेन वाडदिसाचें गीत गायलें. मागीर सगळ्या भुरग्यांक केक आनी साकर वांटली. मिकी-निकीच्या वाडदिसाचो दबाजो हुंदरांच्या पोरांक इतलो आवडलो, तीं म्हणूंक लागलीं असलो वाडदीस आमी जल्मांत पळोवंक ना. हुंदराक आनी हुंदुल्लेक आपल्या कश्टाक फळ आयिल्ल्याचें समादान जालें.

एक दीस रघुबाबागेर पिंटूलो पिक्चराक वचचेलो बोवाळ चलिल्लो. निकी आनी मिकीय थंय आरमारी खांचीक आसलीं. बरे बरे कपडे घालून सगळीं खंयतरी भायर वचचेलीं आसात हें मिकी-निकीक खबर आसलें. पूण जेन्ना तांकां तीं पिक्चराक वचपाक भायर सरल्यात म्हूण कळ्ळें, तेन्ना तांकां दिसलें, पिक्चर म्हूण वाडदिसापरस बरेंच कितें आसतलें. ना जाल्यार पिंटू आनी सगळीं इतलीं नाचचीं नासलीं. मिकीन आनी निकीन आनीक वेळ केलोना. चिंव चिंव

करीतच तीं घरा आयलीं आनीक आवयक फुलोवंक लागलीं, "आई, आमी पिक्चराक वतात, पिंटूलो बाबा गाडी घेवन वता. प्लीज आई, नाका म्हणूं नाका. तूं कितली बरी. आमी जाणांत तूं आमकां ना म्हणचीना. आई आमी वचूं?, आमी वचूं?" करून तीं नाचूंक लागलीं. हुंदुल्लेक पिक्चर म्हूण आयकून खबर आसलें. पूण तें कितें तें तिकाय खबर नासलें. पूण भुरगीं जेन्ना पिंटूले गाडयेंतल्यान वतात म्हणूंक लागलीं, तेन्ना तिका कच्च जालें. तीं घरांत वावुरतात ती गजाल वेगळी. कारण घराचे खांचीक खंय तरी लिपूंक मेळटा. पूण येदेशे गाडयेंत हीं भुरगीं मनशांचे नदरेक पडलीं जाल्यार आनीक गत्यंतर ना, म्हूण तिणें म्हळें, "पोरांनो, तुमकां कितें पिशें लागलां? तुमकां हांवें पयलींच शिटकावणी दिवन दवरिल्ली, मनीस तुमचे दुस्मान म्हूण आनी तुमी आतां विखाची परीक्षा पळोवंक सोदतात? तुमकां कितेंय जाल्यार हांव आनीक जितें रावचेंना." तेन्ना मिकीन म्हळें, "आई, तूं ओगीच भियेता. मनशांक दिश्टी पडपाक आमी कितें मेंगीं गे? विसाव्या शेकड्यांतलीं हुंदरां आमी! आनी अशे भियेत भियेत दीस काडीत जाल्यार आमी ह्या संवसारांत दीस काडूंक पावतलीं गे? आमी मरतलीं तीं एकदांच मरतलीं! मागीर आमकां जाय तशें जियेवंक तरी दियात मगे. मनशांक पळयलें मगे, कशीं तांचे परसूय मोटीं वाहनां घेवन खंय खंय भोंवतात तीं! उदकांतल्यान वतात, मळबांतल्यान वतात. थंय कितें अपघात जायनात? मनीस मरनात? तांच्यो आवयो कितें तांकां आडखळ करतात? तशें जाल्लें जाल्यार हो संवसार उदरगत करचोच नासलो. आमी हुंदरांच सगळ्यांमदीं फाटीं उरल्यात. तूं आमकां वच म्हणच, पळय आमी बरीं करून येतात काय ना तें."

ही आमची विसाव्या शेंकड्यांतली हुंदरांची पिळगी आपले परस कितल्याशाच पांवड्यांनी फुडें सरल्या, हें पळोवन हुंदुल्लेक एकेवटेन बरें दिसलें. पूण दुसरे वटेन आवयचें काळीज भितालें. पूण जर आपणें हांकां वचपाक दिलें ना तर हीं दीसरात आपणांक खातलीं हेंवूय तिका खबर आसलें. म्हूण तिणें काळजार फातर दवरून तांकां वच म्हूण सांगलें.



वच म्हूण सांगलेबरोबर निकी आनी मिकी आनीक रावल्यांत? उडयो मारीत मारीत धाकटे गाडयेच्या सिटापोंदा वचून बसलीं. हेवटेन पिंटूल्या घरचीं सगळीं तयार जावन गाडयेंत बसलीं आनी बद्द नेशनल थिएटराकडेन पावलीं. तीं सकयल देंवचे पयलींच मिकी आनी निकी रघुबाबाले बायलेचे पर्सीच्या भायल्या उकत्या खणांत ल्हवूच पावलीं. थेटरांत काळोख आसलो. कारण रघुबाबाले बायलेचे नखरे जाता म्हणसर तांकां धा मिनटां उशीरच जाल्लो. तरीय तांणी तिकेटी पयलींच बुक केल्ल्यो. काळखाचो फायदो घेवन निकीन आनी मिकीन पर्सींतल्यान केन्ना उडयो मारल्यो तें वयनीक लेगीत कळ्ळें ना. थेटरांत पावल दवरिनाफुडें निकीन आनी मिकीन पळयलें, हरशीं मोट मोटयान खबरी करपी, बोवाळ करपी हे लोक आनी तातुंतल्यो चड करून बायलो आनी भुरगीं वोग्गी बसल्यांत. तांकां दिसलें, अशें वोग्गी बसप म्हळ्यारच पिक्चर आसतलें. पूण हो पिंटूय कसो वोग्गी बसला? आनी अशें वोग्गी बसपाकूच हो पिंटू घराकडेन इतलो खोशी आसलो? हरशीं आवयन 'एक मिनीट वोगी बस' म्हळ्यार हो बसपी न्हय.

निकी आनी मिकीली इल्लीशी तकली विचार करून करून भेरेवपाकडेन पावली. तीं दोगांय एका कोनशाक वोग्गी बसून रावलीं. तांकां आतां घरा वचचेली उमळशीक लागली.

इतल्यान सगळ्याक उजवाड जालो. लोकांचो बोवाळ सुरू जालो. लोक उठून भायर वचूंक लागले. निकी आनी मिकी वयनी उठटा काय पळयतालीं. पूण उठली ना, तें पळोवन तिंवूय बी वोग्गी रावलीं. भायर गेल्ले ते लोक रोखडेच परते आयले. आनी मागीर मात निकी आनी मिकील्या पिक्चराक सुरवात जाली. चणे, भिकणां, बिस्किटींचे कुडके, निकीक आनी मिकीक कितें खावं आनी कितें नाका अशें जालें. आतां तांकां दिसलें, आमी हांगा पिक्चराक येवन भोव बरें केलें. हाकाच पिक्चर म्हणटात आसतलें, शेर्त.

तांचीं पोटां टुम्म भरलीं, तशें मिकीन म्हळें, "निकी, म्हाका न्हीद येता. हांव मातशें न्हिदतां." निकीन ताका म्हळें, "म्हाकाय न्हीद येता. पूण आमी जर हांगा न्हिदलीं तर हांगाच उरतलीं. आमी मोटारींतूच वचून न्हिदुंया." आनी तीं दोगांय ल्हवूच उठलीं आनी मोटारींत वचून सूस्त न्हिदलीं. तीं जागी जालीं, तेन्ना तांणी पळयलें, तीं रघुबाबाले गॅरेजींत आसात. थंयच्यान उडयो मारीत तांणी घरची वाट धरली.

घरांत पावल पडनाफुडें तांणी जें चित्र पळयलें तें पळोवन तांचो आवरोच उडलो. हुंदीर आनी हुंदुल्ली मोटमोटयान रडटात आनी सगळीं शेजारीं तांची समजूत घालतात. आई आनी

बाबा रडटात, तें पळोवन निकी आनी मिकीक कांयच कळ्ळें ना. तांणीय मोटमोट्यान रडूंक सुरवात केली आनी कोण इतल्या मोट्यान रडटा म्हूण सगळ्यांनी तेवटेन पळयल्यार जांचे खातीर आवय बापूय रडटालीं, तींच मिकी आनी निकी. आवयचें तांचेर लक्ष वचनाफुडें आवय रडप विसरली आनी मोटमोट्यान हासूंक लागली. आवय हांसता थंयच आसा, बापूय हासूंक लागलो. तें पळोवन मिकी आनी निकी हासूंक लागलीं. मागीर आवयन तांकां दोगांयकूय घट्ट वेंगेंत धरलीं आनी घडिल्ली सगळी गजाल सांगली.

पूण म्हणटात न्हय जाल्ल्याची खोड खंय मेले बगर वचना! एक दीस मिकीच्या मनांत कितें आयलें म्हूण कोण जाणा. ताणें निकीक म्हळें, "निकी, आमी पिंटू बरोबर तांचे शाळेंत वचुंया?" कितलेशेच दीस जाले, मिकीकूय वाज आयिल्लो. खरें म्हळ्यार तीं भुरगीं मनशाळिल्लीं. मिकीन 'शाळेंत या' अशें सांगना फुडें निकीन आनीक वेळ केलो ना. तें रोकडेंच तयार जालें. पूण तांचेमदीं एक मात थरलें, आईक आनी बाबाक हातुंतलें कांयच सांगप ना.

एक फावट कितेंय थारायलें म्हणटकूच तीं दोगांय फाटीं-फुडें पळय नासलीं. तीं पिंटू शाळेक वचचे पयलीं ताच्या बोटव्यांत ल्हवूच लिपून बसलीं. सदचे सारको पिंटून बोटवो फाटीर मारलो आनी तो शाळेंत गेलो. बोटवो काडून बाकार दवरून तो प्रार्थनेक भायर गेलो. हेवटेन मिकी आनी निकीन बोटव्यांतल्यान भायर उडक्यो मारल्यो आनी वर्गांत हेवटेन-तेवटेन नाचूंक लागलीं. इतल्यांत प्रार्थना सोंपून सगळीं भुरगीं वर्गांत भितर सरलीं. गुरूजी वर्गांत येवचेले आसले. भुरगींच तीं! तीं वर्गांत हेवटेन तेवटेन नाचूंक लागलीं आनी अशें नाचतना एका भुरग्याची नदर निकीचेर पडली. ते बरोबर त्या भुरग्यान हुंदीर-हुंदीर करून आड्डूंक सुरवात केली. निकी फळ्याचे खांचीक वचून वोग्गी बसले. सगळ्या भुरग्यांनी एकूच गोंदळ केलो. ते बरोबर गुरुजी, मुखेल गुरुजी, बाई सगळ्यांची वर्गांत गर्दी जाली. भुरग्यांनी तर हातांत पट्टयो घेवन सगळे बांक हेवटेन तेवटेन हालोवन सगळ्याक पळयलें. हेवटेन निकीच्या आनी मिकीच्या पोटांत भियेवन गुळी जाली. तीं दोगांय कांय करूंक शकनासलीं. भुरग्यांलो बोवाळ पळोवन मुखेल



गुरुजीन म्हळें "पुरो आतां गोंदळ. तो हुंदीर बिळांत गेलो आसतलो. तुमी वचून जाग्यार बसात." ते बरोबर तीं भुरगीं वचून जाग्यार बसलीं आनी वर्गाक सुरवात जाली.

आतां निकी ल्हवूच लिपत-लिपत मिकी म्हऱ्यांत गेलें आनी ताणें म्हळें, "मिकी, आतां कितें करुंया रे? घरा कशें वचप? हांचे मुखावेल्यान पिंटू म्हऱ्यांत वचचेली माणसुकी ना". पूण म्हणटात न्हय? देव तारी ताका कोण मारी? घण घण करून घांट जाली आनी सगळीं भुरगीं मदले सुटयेक भायर गेलीं. हीच संद पळोवन मिकी आनी निकी भायर सरलीं आनी बोटव्यांत येवन रावलीं. तीं दोगांय दोन कोनशांक दोन खांचींनी लिपिल्लीं. घांट जातकूच सगळ्या भुरग्यांलो परत बोवाळ सुरू जालो.

कितलोसोच वेळ तीं दोगांय भितर आसलीं. तांकां केन्ना एकदां पिंटू घरा वता अशें जाल्लें. निमाणें एकदांची शाळा सुटचेलो वेळ जालो, तशीं पिंटून आपलीं पुस्तकां, पेनां, बोटव्यांत भरपाक सुरवात केली आनी एकदांची लांब बेल जावन शाळा सुटली.

शाळा सुट्टकूच पिंटू बोटवो घेवन नीट घरा आयलो आणी ताणें घो करून बोटवो खाटीर उडयलो आनी पिंटू बद्द रांदचेकुडींत गेलो. निकी आनी मिकीक बोटवो आपटतकूच बरोच मार बसलो. पूण तांकां त्या माराचें कांयच नासलें! तांचो जीव आज वांचलो हेंच तांकां व्हड आसलें. तीं बद्द घरा गेलीं. आवयक बापायक दिसलें, सदचे भशेन हीं हेडूंक गेल्यात दिसता. तांकां खंय खबर हीं शाळेंत वचून पराक्रम करून आयल्यांत म्हूण.

तीं दोगांय घरांत येवन अपराधी कशीं वोग्गी बसलीं. त्या दिसा तांणी कांयच मस्ती केली ना. हुंदुल्लेक अजाप जालें. हीं दीसभर चींव-चींव करून घर माथ्यार घेवपी भुरगीं, पूण आज हांचें जालां कितें? हुंदुल्लेच्यान रावंक नज जालें. ती तांचे म्हऱ्यांत गेली आनी अपुरबायेन तांकां विचारतकूच तांणी शाळेंत घडिल्ली सगली गजाल आवयक सांगली आनी म्हळें "आई, तुवें आमका सांगिल्लें न्हय, मनीस आमचो व्हड दुस्मान म्हूण? पूण आमी तुजें कांयच आयकलें ना. आमी मनशाभशेन वागूंक सोदलें. आयज आमकां कळ्ळें, आवय बापायलें आयकना तांकां देव ख्यास्त दिता." आनी तांणी पिंटून आपटिल्ल्यान आंग कशें दुखता तें आवयक सांगनाफुडें आवयन तांकां म्हऱ्यांत घेतलीं आनी दुखता थंय चाटूंक लागली. तांकां आतां बरें दिसूंक लागलें. तांणी मनांतल्या मनांत म्हळें, आवय आमचो कितलो मोग करता-! आँयच्यान आमी आवय-बापायल्या उतरा भायर वचचीं नात.



# आनी गणू शाणो जालो

एका गांवांत गणू म्हणून एक हुशार भुरगो रावतालो. तो सातवी शिकतालो. कितेंय सांगिल्लें सट्ट करून ताचे मतींत पडटालें. शाळेंत शिकयल्लो अभ्यास एकदांच आयकल्यार ताका पुरो जातालो. खेळांतूय तो हुशार आसलो. खुबशे खेळ ताका येताले. तेभायर चित्रांय काडूंक ताका आवडटालीं आनी संगिताचीय ताका गोडी आशिल्ली. खंयचेच गजालींत गणू फाटीं नासलो.

गणू इतलो हुशार आसुनूय ताचे आवय बापूय गणूचेर खोशी नासले. कारण, गणू खूब सुबेजूय आसलो. आवयन जर ताका अभ्यासाक बस म्हळें, जाल्यार तो चित्रां काडपाक बसतालो. एक सांगल्यार दुसरें केलेबगर तो कसोच रावनासलो. दीसभर खेळप, धाकट्या भांवडांकडेन झगडप, आपल्यो वस्तू खंयचे खंय उडोवप, कोणालेंय कांयच आयकुवप ना, परत्यान जापो सांगप, असल्यो कितल्योशोच वायट गजालीय गणूकडेन आशिल्ल्यान ताचे बरे गूण ह्या वायट गुणांनी लिपताले.

शाळेंत पयलो येवचेली कुवत आसुनूय गणू पांचवो ना जाल्यार सव्वो येतालो. आवय बापूय ताका कितलें समजायतालीं, पूण तो आपलें तेंच खरें करतालो. गणूक दोन भावंडां आसलीं, एक भाव आनी एक भयण. गणू सदांच भावाकडेन झगडटालो. ताचो हातय बरोच ल्हव आसलो. थापटा बगर तो भावाकडेन उलयनासलो. दोगूय भाव केन्ना खेळटात आनी केन्ना झगडटात हाचो हिशोबच नासलो.

गणू शाळेंत वता, तितलो वेळ घरांत थंड आसतालें, झगडीं घेवनच गणू घरांत भितर सरतालो. भावाकडेन झगडून जातकूच गणू खेळपाक म्हूण शेजाऱ्यागेर वतालो. तो तांचेय कडेन झगडून घरा येतालो. ताचो खेळ झगड्यांबगर केन्नाच सोंपलोना. जाण्टे आसूं वा नेण्टे गणू तांकां परतें सांगतालो. गणूले हे वायट गूण पयस करचे म्हूण ताचे आवयन ताका खूब समजायलो. बापूय तर ताका पावला पावलाक शिटकावणी दितालो. पूण ताची वायट खोड कशीच मोडनासली. गणूचीं किजीलां घेवन जेन्ना शेजारी दारांत येताले, तेन्ना गणूचे आवयक

लजेन मेल्लेवरी जातालें.

गणूची आवय धार्मीक वृत्तीची आसली. ती गणपतीक पुजताली, देखून तिणें आपल्या चल्याक गणपतीचें नांव दवरिल्लें. ती दिसांतल्यान तीन वेळा गणपतीचें स्तोत्र वाचून गणपतीकडेन आपल्या गणूक बरी बुद्द दी म्हूण मागताली. केन्ना-केन्ना गणूय बऱ्या मुडांत आसल्यार आवय वांगडा प्रार्थना करूंक बसतालो. गणून सदांच देवाची प्रार्थना म्हणची, परवड म्हणची, आरती, भजन करचें अशें आवयक दिसतालें. पूण गणूक ताच्या खटपटीं मुखार वेळच मेळनासलो. गणूगेर टी. वी., रेडिओ आसलो. पूण तो छायागीत, चित्रहार, सिरीयल्स आनी पिक्चरांच पळयतालो. गणून टी.वी. वेल्यो बातम्यो, शालेय चित्रवाणी बी असल्यो शिक्षणीक कार्यावळी पळोवच्यो आनी आपल्या गिन्यानांत भर घालची अशें ताच्या बापायक दिसचें. पूण गणू तसल्यो कार्यावळी आपुणूय पळयनासलो आनी पळयतल्यांकूय बोवाळ, गोंदळ करून पळोवंक दिना आसलो.

गणूल्या आवय-बापायक आतां गणूलो धाकटो भाव आनी भयणूय गणूल्या पावलार पावल दवरून चलतात ही चिंता लागिल्ली. गणू करता तशेंच ताचो धाकटो भाव कपील आनी भयण पल्लवी करतालें. वायट गजाली भुरगीं रोकडींच उखलतात म्हणपाचें गणूल्या सुजाण आवय बापायक खबर आसुनूय तीं कांयच करूंक शकनासलीं. कारण, नोकरेक लागून तीं दोगांय दीसभर भायर आशिल्ल्यान भुरग्यांचेर चड लक्ष दिवंक पावनासलीं.

एक दीस आवयची संकश्टी आसली. आवयन निवेद्याक एकवीस मोदक करून दवरिल्ले. कसल्या तरी कामाक लागून तिका शेजाऱ्नीगेर वच्चें पडलें. हेवटेन गणूक बरीच संद मेळ्ळी. ताणें ल्हवूच दोन मोदक खाले. आवय आपलें काम सोंपोवन घरा येवन मोदक मेज जाल्यार ते एकोणीसूच आसात. आवयक खूब राग आयलो. तिका खबर आसलें, गणू बगर हें काम आनीक कोणाचेंच आसचें ना! पूण तिणें आपलो राग गिळ्ळो. आयज संकश्टीचो दीस म्हूण ती वोगी रावली. तिणें परत मोदक केले आनी गणपतीक निवेद्य दाखयलो. सगळे जेवन बी जातकूच ती गणू म्हऱ्यांत आयली आनी तिणें ताका चोरल्यार देव कितें ख्यास्त दिता, देवाक चोरी करपी मनीस कशे आवडनात म्हणपाचें सांगूंक सुरवात केली. "गणपती विद्येचें दैवत. ताका प्रसन्न केल्यार तूं बुदवंत जातलो. तुवें केल्ली मोदकांची चोरी कोणाकूच दिसली ना जाल्यार ती गणपतीक दिसतली, कारण तो देव. मागीर तुका तो ख्यास्त दितलो." अश्यो

कितल्योश्योच गजाली आवयन ताका सांगल्यो आनी ताणें केल्ले चुकीखातीर ताका शिटकावणी दिली.

गणू आवयलें उलोवप वोग्गी रावन आयकतालो. ताणें ते मोदक खाल्ले खरे, पूण आतां ताका "निवेद्याचे मोदक जाय तितले खा, पूण चोरून खावं नाका" म्हळें, तेन्नाच्यान ताका दिसलें आपणें वोगीच चोरून खाले. आवय ते आमकांच दितली आसली. बेश्टें चोर म्हूण नांव मात जालें. ताका पश्चाताप जालो आनी ताणें गणपतीक साश्टांग नमस्कार घालून चूक मागली आनी हांव आतां केन्नाच चोरचों ना म्हूण गणपतीच्या पांयजेलामुखार सांगणी केली आनी तो न्हिदलो.



थोडयाच वेळान गणूक एक सपन पडलें. सपनांत ताका गणपती आपले मुखार उबो आशिल्लो दिसलो. गणपतीक पळयनाफुडें गणून आनी वेळ केलो ना. ताच्या पांयार घालून घेतलें. तेन्ना गणपतीन ताका उठयलो आनी आपलो हात ताच्या खांदार दवरून सांगलें, "गणू, तूं तसो बरो रे. पूण तूं हें करता तें म्हाका मात लेगीत आवडना. आरे, तुजे आवय-बापूय दीसभर मर-मर मरतात आनी तुमचे खातीर जाय-जाय त्यो वस्ती हाडटात. तुमी शिकचें, म्हातारपणांत आपल्याक आदार जावचो अशें तांका दिसता. गणू, तुमकां खावंक, जेवंक, हांथरूंक, पांगरूंक तुमच्या आवयन-बापायन केन्ना उणें केलां?" अशें विचारनाफुडें गणून म्हळें, "पयर बाबाक हांवें सायकल हाड म्हूण सांगिल्लें, बाबान म्हाका हाडूंक ना." "तुका सायकल कित्याक जाय रे ती?" "म्हाका इश्कोलाक वचूंक!"

"इश्कोल कितलें पयस आसा? आं?" गणपतीन विचारलें, "क्लासांतल्या भुरग्यांनी हाडल्यात म्हूण तुका जाय? चल यो, म्हजे बरोबर. हांव तुका कितें दाखयतां." अशें म्हूण गणपतीन गणूक आपले कुशीक हुंदराचेर बसयलो आनी हुंदीर उडक्यो मारीत-मारीत वचूंक लागलो. हुंदीर विमानापरस चड वेगान धांवतालो, तें पळोवन गणूक मजाच दिसताली. मागीर ते एका गांवांत पावले. गणपती गणूक घेवन एका घरांत गेलो. ताका त्या घरांतलें सगळें चित्र दिसतालें. पूण तें कोणाकच दिसनासलें. गणून पळयलें, एक भुरगो चिमणेच्या दिव्याखाला

बसून अभ्यास करतालो. ताच्या घरांत लायट नासली, टी.वी. नासली, धड आयदनां वा कसल्यो वस्तूय नासल्यो. दोन-चार मातयेचीं आयदनां आनी गरजे पुरतें सामान आसलें. ताच्या घराक पळयल्यारच ताची गरिबकाय दिसताली. तो भुरगो बरोवंक बशिल्लो. गणून ताचें अक्षर पळयलें. मोतयांपरस तें सुंदर आसलें. ताचीं पुस्तकां, चोपड्यो ताणें ठाकठीक दवरिल्ल्यो. जाय ती वस्त तो काडी आनी परत जाग्यार दवरी. थोड्या वेळान ताचे आवयन ताका म्हळें, "बाबा, पुरो मरे आतां अभ्यास! चल, आतां न्हीद, सकाणीफुडें उठून तुका पेपर आसा मरे?" तेन्ना त्या भुरग्यान म्हळें, "आई, हांव एकूच प्रस्न वाचतां आनी न्हिदतां. म्हाका गुरुजीन तो पाठ करून यो म्हण सांगलां. तो जातकूच म्हाका बरी न्हीद पडटली. ना जाल्यार न्हीदच पडचीना."

आवयक आपल्या पुताची अपुरबाय दिसली. ती पुता म्हऱ्यांत बसून पुताक मोगान पळोवंक लागली. गणूक तें पळोवन आपल्या घरची याद जाली. आपल्यागेर सगळें आसा. लायट आसा, बसपाक मेज, फॅन, टेबल लॅंप. पूण आपणें असो अभ्यास केन्नाच केलो ना. आवयन फाटल्यान लागल्यारपसून हांवें घरपाठ कांयच ना म्हूण फट मारली, इतलेंच न्हय तर आवयन मदत करतां म्हळ्यार पसून तिचें कांयच आयकलें ना आनी हो भुरगो अभ्यास जायना जाल्यार न्हीद पडची ना म्हणटा. आपली आवय आपल्याचेर सदांच हे खातीर बेजारता आनी ही आवय पळय गरीब आसुनूय कशी खोश्शेन आपल्या पुताक तोखेता. गणूक आपली चूक कळ्ळी. गणपतीक समादान जालें. गणपती ताका घेवन फुडें वचूंक लागलो.

गणू आनी गणपती दुसऱ्या एका घरांत भितर सरले. त्या घरांत पळय जाल्यार गणूक वेगळेंच चित्र दिसलें. पुताक पुलिसांनी धरला आनी आवय बापूय पुलिसाच्या हातापांया पडटात. थंय मातसो वेळ रावतकच गणूक कळ्ळें, त्या भुरग्यान कोणालें तरी पाकीट मारिल्लें. तो भुरगो हरशीं उतवाती. ताका शाळेंत घाल्लो, पूण तो धड शाळेंत वचनासलो. वाटेरूच खेळूंक रावतालो. पयलीं पयलीं इस्पिकांनी, कॅरम, उपरांत पयशे लावन खेळप आनी निमाणेंकडेन जुगार लेगीत खेळूंक लागलो. करतां करतां ताणें शाळा साप्प सोडली. तो आवय बापायक पयशे हाडून दिवंक लागलो. तांणी ताका, "तूं हे पयशे खंयच्यान हाडटा?" म्हूण केन्नाच विचारलें ना. गरिबांक पयशांचो आदार! अशें करून करून तो आतां अट्टल चोर जाल्लो. पुलिसांनी ताका पाकीट मारतना धरिल्लो. आनी घराची झडटी घेवंक पुलीस आयिल्ले. तांच्या



हातापांयां पडून आवय-बापूय ताका सोडोवपाची भीक पुलीसांकडेन मागताले. हें पळयनाफुडें गणूक आपणें चोरून खाल्ल्या मोदकांची याद जाली आनी तो रडकुरा परतलो. आयजसावन चोरप ना म्हूण ताणें सामको निच्छेव केलो.

गणपती आनी गणू थंयच्यान भायर सरले आनी एका मोटया गिरेस्त मनशागेर पावले. थंय पळय जाल्यार सगळो धुमाकूळ चल्ला. त्या गिरेस्त मनशागेर ताचे बायलेचो वाडदीस आसलो आनी ह्या दबाज्याक मोटे मोटे नामनेचे मनीस आयिल्ले. तांचे खातीर जेवण,सोरो सगळें आसलें. कांय बायलो पसून पिवन तर्र जाल्ल्यो आनी संगिताचेर नाचताल्यो. भुरग्यांमुखारूच तांचो हो नाच चलिल्लो. त्या बोवाळांतल्यान गणपतीन गणूक भुरग्यांले कुडींत व्हेलो. त्या गिरेस्तालो चलो आपल्या वांगड्यां बरोबर शिगारां फुसकायतालो, घुंवळीचीं वखदां घेतालो, आनी ताची भयणूय ताका पालव दिताली तें पळयलें. तांचो भेस आनी अचकट विचकट उतरां आयकून माणकुल्या गणूक खूब वायट दिसलें. ताणें चितलें, हांचेकडेन पयसो आसा, गाडयो आसात, सायकली आसात, पूण भुरगीं व्यसनी जाल्यांत! आवय-बापायचें तर हांचेर मातूय लक्ष ना. नाजाल्यार म्हजी आवय आनी बापूय कितलीं बरीं. दीसरात मरतात, पूण आमच्या हुसक्यांत आसतात. आवय तर मातशी बेगीन कामाची सुटली तर नीट्ट घरा येता. दुकानावेलीं खाणां खाल्यार भलायकेक बरीं न्हय म्हूण फावल्या वेळांत आमकां खाणां करून दवरता. आमचे युनीफॉर्म, बूट वा कसलीय गरजेची वस्त जाग्यार आसा काय ना हें आपूण पळयता. रातची न्हिदतना वेंगेंत घेवन काणयो सांगता. इतलेंय करून आमी तिका परत्याक परतें सांगतात. तिचें आयकनात. काडिल्ली वस्त जाग्यार दवरनात. एकामेकांकडेन झगडत रावतात. आवय आनी बापूय आमकां सदांच सांगतात, "तुमी बरे वागल्यार बरे मनीस जातले. तुमच्या बाबाक प्रोफेसर म्हूण कितलो मान आसा! कारण ते भुरग्यांक बऱ्यो रिती शिकयतात, बरें गिन्यान दितात. तुमीय बाबासारकेच न्हय तर बाबापरसूय व्हड मर्नीस जावंक जाय. पयशेकार जायना जाल्यार जाता, पूण नीतीवंत जावंक जाय." आवयलीं उतरां म्हाका पटलीं. सर सांगतात, "तुमी भुरगे म्हळ्यार देशाचे खांबे."

म्हणटकूच आमी खांबेच जर अशे व्यसनांनी पोकळ जाले जाल्यार आमचो देस कसो वयर सरतलो? आमी अभ्यास करूंक जायच, पूण तेच बरोबर नीतीवंतय जावंक जाय.

गणपती गणूचेर जाल्लो परिणाम आनी बदल पळयत आसलो. गणू चिततालो, आपले आवय-बापूय कामाक वतात, पयशे हाडटात आनी आमचे खातीर मोडटात. आपले खातीर कांयच करिनात. बाबा कॉलेजींत शिकयता खरो, पूण बशीन भोंवता आनी आपूण सातवीच जावंक ना आनी सायकल मागतां. पांच मिनटांची तर वाट इश्कोलाक पावपाची! खरी बाबाक स्कुटरीची गरज आसा. पूण बाबा ना घेना आनी आपूण मात सायकलीचो हट्ट धरतां. ना. आतां हांव सायकल मागचों ना. हांव खूब शिकतलों, इजनेर जातलों आनी मागीर हांव सायकलच न्हय तर गाडी लेगीत घेतलों. बाबाक आनी आईक मागीर हांव खूब फिरयतलों. तितले म्हणसर तीं रिटायर्ड जातलीं. धाकलीं भावंडां आपलें पळोवनच सगळें करतात. आपूण तांकां बरी देख दितलों. आयच्यान सगळे खेळ बंद! परीक्षा जायसर अभ्यास करप. सुटयेंत खेळप. अशें चितून गणून गणपतीक म्हळें, "देवा गणराया, तुवें आयज म्हजे दोळे उगडले. ह्या सगळ्या लोकांक पळोवन म्हाका दिसलें, ह्या लोकांपरस हांव कितलोसोच सुखी आसां. म्हाका बरे आवय-बापूय मेळ्ळयात. म्हज्या घरांत शिकपाक जायत्यो सुखसोयी आसात पूण हांव मात शेजारच्या भुरग्यांवांगडा खेळत रावतालों. आईन अभ्यास कर म्हळ्यार अभ्यास करीनासलों. धाकट्या भावावांगडा झगडटालों. पूण आयच्यान हांव बरो भुरगो जावचेलो यत्न करतलों. केन्नाच चोरून खावचों ना. आयज तुज्या वांट्याचे दोन मोदक चोरून खाले. तसो केन्नाय हांव भावालो वांटो चोरून खातालों. पूण आयज आईक खूब त्रास पडले. तिका परत मोदक करचे पडले. तिणें म्हाका कांयच केलें ना, पूण तुवें म्हाका जें दाखयलें ताचे वयल्यान म्हाका कळ्ळें, हांव कितलो सुखी आसां तो! आयच्यान हांव कसलोच हट्ट करचों ना, गाळी घालचों ना, मस्ती करचों ना, आयचो अभ्यास आयज करतलों. गणपतीबाप्पा, हांवें केल्ल्या चुकांखातीर म्हाका माफ कर-म्हाका भोगशीय.



गणून "गणपतीबाप्पा, म्हाका माफ कर." इतल्या मोटयान म्हळें की गणूच्या म्हऱ्यांत न्हिदिल्ली ताची आवय एकदम जागी जाली आनी 'गणू गणपतीची क्षमा मागता' तें पळोवन खूब खोशी जाली. सकाळीं चोरून खाल्ल्या मोदकांखातीर गणू क्षमा मागता हें पळोवन तिका समादान जालें. तिणें गणूक उठयलो. गणू जागो जालो. पूण हेवटेन - तेवटेन पळयल्यार गणपती ना! आनी आपूण हांतुणार आसां तें पळोवन आपल्याक स्वप्न पडिल्लें हाची जाणविकाय ताका जाली.

गणू सकाळीं उठलो आनी कांयच किजिलां करीनासतना मुकाटयान शाळेंत वचचेली तयारी करूंक लागलो. इतलेंच न्हय, ताणें आयज आपल्या धाकल्या भावंडांकय मदत केली. आवय गणूचें हें रूप पळोवन अजाप जाली आनी त्या दिसाच्यान सदांच गणू बऱ्या भुरग्याभशेन वागूंक लागलो. आपलो व्हडलो भाव बरे तरेन वागता तें पळोवन धाकलींय भावंडां ताच्या पावलार पावल घालून चलूंक लागलीं.

गणूच्या आवय-बापायक गणूचें हें बदलिल्लें रूप पळोवन खूब बरें दिसचें. दीसभर केल्ल्या कामाचे त्रास घरा येनाफुडें खंयचे खंय नाच्च जावचे. तांगेर आयिल्या सोयऱ्या-धायऱ्यांनी गणूची वागणूक पळोवन धादोशी जावचें आनी तांणी आपल्या भुरग्यांक गणूची देख घेयात म्हूण शिटकावणी दिवची.

अशे तरेन गणूचें घर हें एक आदर्श घर जालें. गणून तर मागीर पयलो नंबर केन्नाच सोडलो ना.



# गुणेस्त पूत

खूब खूब वर्सांफाटली गजाल. अमरावती नगरांत वैजनाथ नांवाचो राजा राज्य करतालो. ताका सात पूत आसले. आवय बापायन सांगिल्लें दर एक उतर ते देवालो प्रसाद कशे मानताले. तांची ही आवय-बापाय विशींची माया पळोवन राजाक खोश्शेचो उमाळो येतालो. हे आपले सात पूत म्हळ्यार आपलें सगळें अशें तांकां दिसतालें. राजा आनी राणी आपल्या पुतांक मात लेगीत पातेयनासलीं. सातांतलो एकलो जरी पयस गेलो तरी तीं काचाबूल जातालीं. राणयेक तर सर्ग आनी दुसरो आसा म्हणपाचें खबरूच नासलें. भुरग्यांच्या म्होंवाळ, लागोळ्या उतरांनी ती इतली भुल्लुसताली, तिका दीस कसो सोंपतालो तेंच कळनासलें.

राजकुंवराची पिराय इल्ली इल्ली वाडत गेली. राजान तांच्या शिक्षणाची बरी वेवस्था केल्ली. तांकां सगळे तरेचें शिकप तांचे आवडीप्रमाण दिवन राजान तांकां सगळ्या विद्यांनी पारंगत केल्लें. सातय राजपूत आतां जुवान जाल्ले. तशी कसलीच खंत राजाक नासली. पूण एकेच गजालीची ताका मातशी तिश्टत लागिल्ली आनी ती म्हळ्यार राजकुंवराक सोब सारक्यो व्हकलो सोदपाची. राजान आपल्या प्रधानाकडेन हेविशीं विशय काडिल्लो. प्रधानूय बी खटपट करीत आसलो. पूण फाव सारक्यो राजकुंवरी तांकां अजून मेळूंक नासल्यो. राजा तर आतां जाण्टेपणाच्या पांवड्यार पाविल्लो. ताका आपल्या सातूय पुतांचीं लग्नां तर करचीं आसलींच, पूण तेच बरोबर राज्याचो वारसूय ताका वेंचून काडचेलो आसलो. कारण, तो सातूय पुतांचेर सारकोच मोग करी. सातूय हुशार आसले आनी व्हडल्या चल्याकूच राज्य दिवंक जाय असो त्या राज्यांतलो कायदोय नासलो. जो बरेतरेन राज्य करतलो अशें दिसता ताकाच राजा करप असो त्या राज्याचो कायदो आसलो.

आपल्या राज्याचो उत्तराधिकारी कोणाक करचो हें सोडून राजा कांयच चितनासलो. शेवटाक राजान थारायलें, भुरग्यांकूच अशी संद दिवची की तांणीच आपली हुशारकाय दाखोवची आनी तांचे जिणेच्यो सांगातीणीय तांणीच सोदून हाडच्यो. जो कोण सातांभितर बरी हुशारकाय दाखयता ताकाच आपूण राज्य दितलों.

राजालें हे म्हणणें राजकुंवरांकूय आवडलें. कारण, तांणी सगळें शिकप घेतिल्लें, पूण त्या शिकपाचो उपेग करचेली संद तांकां मेळूंक नासली आनी तेखातीर हे संदीचो फायदो घेवन आपली हुशारकाय पारखूंक मेळटली म्हूण तेवूय बी खोशी जाले.

राजकुंवरांनी राजवाडो सोडून वचचेली सगळी तयारी केली आनी एक दीस बरोसो म्हूर्त पळोवन ते भायर सरले. राजाक आनी राणयेक त्या दिसा खूब दुख्ख जालें. राज्य सामकें रितें जाल्लेवरी तांकां दिसलें. पूण प्रधानान तांकां धीर दिलो. ते वतात ते बऱ्या कामाक वतात आनी ते जैतीवंत जावन येवं असो तांकां आशीर्वाद दियात म्हूण तांकां सांगलें. दुखेस्त अंतस्करणान राणयेन तांकां आशीर्वाद दिलो.

सातय राजकुंवर आपले घोडे घेवन पूर्वेकडल्यान वचूंक लागले. तांचे घोडे वाऱ्यासारके धांवताले. मात लेगीत विसव घेना आसतना राजकुंवर मोटे उमेदीन घोडे धांवडायताले. पूण शेवटाक ते मनीसच! तांकां सामकें पुरो जालें आनी विसव घेवचेखातीर ते वाटेर थांबले. तानेन तानेल्यात, भुकेन भुकेल्यात अशे अवस्तेंत तांकां विसव घेवप गरजेचें आसलें. तेच न्हय तांचे घोडेय बी आतां सामके जाम जाल्ले. सूर्य अस्ताक वचचेले वाटेर आसलो. तांणी लागीं उदक आसा असो एक जागो पळयलो आनी आपल्या घोड्याक उदक पियेवपाक सोडून तांणी आपणें हाडिल्लें खाण खालें. पोट भरतकूच तांकां सुस्ती मारिल्लेवरी जाली आनी ते शांत मळार रोखडेच न्हिदेचे सुवादीन जाले.

दिसभर थकिल्ल्यान तांकां सकाळ मेरेन जागच आयली ना. रातभर ते त्या मळार न्हिदिल्ले, सदांच गादयेर लोळपी ते राजकुंवर. पूण आज तांकां उकत्या मळार न्हिदुनूय गाड न्हीद लागिल्ली. सुर्याच्या किरणांनी तांकां खातखुतल्यो करून उठयलें. ते उठून पळय जाल्यार सूर्य बरोच वयर आयला म्हणपाचें तांकां कळिल्लें. ते बेगीबेगीन तयार जावन फुडले वाटेक लागचेले तयारेंत आसले आनी इतल्यांत एकल्याचें लक्ष घोड्याचेर गेलें. थंय फकत स घोडे आसले. आनी हेवटेन पळय जाल्यार तांचे मदलो एक राजकुंवर ना. ते सामके भियेले. तांकां दिसलें, आपलो व्हडलो भाव आपणांक हांगा सोडून एकटोच रातोरात पळ्ळो आसतलो, म्हूण ते उठले आनी फुडले वाटेक लागले..

परत तांकां एका जाग्यार रात जाली म्हूण ते थंय विसव घेवंक रावले. आनी दुसऱ्या दिसा

पळय जाल्यार दुसरोय राजकुंवर ना. दर रातीक एक राजकुंवर ना जाता हें पळोवन बाकीच्या राजकुंवरांक दुभाव मारलो. आपले दोगूय भाव पळून वचूंक नात. कोणेंतरी तांचो घात केला म्हणपाची तांकां खात्री जाली आनी तिसरे रातीं तांचे मदल्या एकट्यान रातभर जागो रावन राखण करची अशें तांणी थारायलें.



तांकां एका गांवांत पावतकूच रात जाली तेन्ना उरिल्ल्या सगळ्यांत व्हडलो म्हळ्यार तिसरो राजकुंवर राखण करूंक बसलो. पूण जशी रात जाली, तशी ताच्या दोळ्यांक झेम येवंक लागली. दिसभर ते सामके थकिल्ले. ताका केन्ना दोळो लागलो हें कळळेंच ना. दुसऱ्या दिसा बाकीचे भाव उठून पळयत जाल्यार तोवूय भाव ना. अशें करतां करतां एक एक करून पांच राजकुंवर नाच्च जाले! आतां फकत दोगूच उरले. सातव्यान - जाचें नांव विक्रम आसलें ताणें- चितलें, न्हिदून पडत जाल्यार आपणाकूय कोणूय नाच्च करतलो! ताणें आपल्याक न्हीद पडची न्हय म्हूण आपलें एक बोट कापलें आनी तातूंत मिरसांगेचो पिठो भरलो. फांतोड जायत आयिल्ली, इतल्यांत त्या राजकुंवरान पळयलें, एक मूस गूंऽऽ गूं ऽऽ गूं करून ताच्या भावां भोंवतणीं घुंवक लागला. ताणें दोळे धापून न्हिदेचें सवंग घेतलें. कोण कितें करता तें ताका पळोवंक जाय आसलें. मूस घुंवन घुंवन मोटो-मोटो जायत गेलो आनी त्या मुसाची एक सुंदर बायल जाली. तिच्या हातांत एक आळणो आसलो. ती बायल राजकुंवराक वारो घालूंक लागली. वारो लागना फुडें राजकुंवर ल्हान ल्हान जायत गेलो आनी ताच्या जाग्यार एक ससो जालो. ते बायलेन सोंशाक धरलो आनी ती बद्द घोड्या म्हऱ्यांत गेली. थंय ती एक अक्राळ-विक्राळ राक्षीण जाली. काळी-काळी कुळकुळीत. दोन दांत भायर, आंगाक दाट केंस, येद्दे मोटे दोळे. तिका पळोवन विक्रमाक शेळो घाम सुटलो. पूण करतलो कितें! ताणें दोळे घट्ट धांपले. ते राक्षिणीन घोड्याक दोनूय हातांनी उशीकांडो मोडतात तसो मोडलो आनी कुरू कुरू करून खालो आनी सोंशाक घेवन ती चलूंक लागली. विक्रम समजूंक जाय तें समजलो.

विक्रमाक आतां आपल्या सय भावांचें कितें जालें तें कळ्ळें. सातवे रातींय तो जागोच

रावलो. आपले स भाव गेल्ल्याचें ताका भोव दुख्ख जाल्लें. पूण हे राक्षिणीमुखार आपलें कांयच चलचेलें ना म्हणपाचेंय ताका खबर आसलें. आपूण कितलोंय जरी पराक्रमी आसलों तरी मनशाभायले शक्तीकडेन लडचेली शक्त आपणांलागीं ना हें तो जाणा आसलो.

रात वाडत वताली. फांतोडेच्या वेळार तो मूस गुणगुणपाक लागलो. विक्रम सावध आसलो. मुसान विक्रमा भोंवतणीं गुणगुणपाक सुरवात केली. विक्रम दोळे बिटीबिटी करून ल्हवूच पळयतालो. मुसान बायलेचें रूप घेतलें. मात विक्रम सट्ट करून उठलो. ताणें आपलो घोडो तयारूच दवरिल्लो. एका खिणांत तो घोड्याचेर स्वार जालो आनी ताणें वाऱ्याच्या वेगान घोडो धांवडावपाक सुरवात केली. राक्षिणीक आनीक विचार करूंक वेळच नासलो. ती बायलेच्या रूपांतूच घोड्या फाटल्यान धांवूंक लागली. विक्रमा फाटल्यान ती सुंदर बायल धांवतां धांवतां केन्ना दीस जालो कळ्ळेंच ना. विक्रम एका राज्यांत पावलो. विक्रम धांवत धांवत राजवाड्या मुखार आयलो. लोक हो देखाव पळोवन अजाप जाले. इतले सोबीत, सुंदर बायलेक सोडून हो मनीस धांवता म्हूण लोकांक अजापूय जातालें. आनी ते बायलेची काळकूटय येताली. राजाल्या शिपायांनी विक्रमाक आनी ते बायलेक धरून राजाफुडयांक व्हेली. राजान विक्रमाक ते सोबीत बायलेक सोडून कित्याक पळटा काय म्हूण रागान विचारलें. तेन्ना विक्रमान राजाक सांगलें, ती आपली बायल न्हय. आपूण तिका वळखना. तुका जाय जाल्यार तूं तिका व्हर. राजा ते बायलेची सुंदरकाय पळोवन पयलींच पिसो जाल्लो. आतां तर दुदांत साकर पडिल्ली. तो बेगोबेग उठून ते बायलेसरीं आयलो आनी तिका म्हणूंक लागलो, "तुका होच कित्याक जाय? हांव तुका म्हजी पट्टराणी करतां, तूं हांगाच राव." ती बायलूय बरीच खोशी जाली. तिका तेंच जाय आसलें. राजान तिका तिचो महाल दाखयलो. राक्षिणीन सगळो राजवाडो पळोवन घेतलो.

अशेच दीस वताले. ती बायल दिसाची सुंदर बायल जाताली आनी फांतोडेर राक्षीण जावन पागेंतले घोडे, हत्ती, कुत्रीं अशीं जनावरां खाताली. राजाक जेन्ना शिपाय ते विशीं सांगताले, तेन्ना राजा ते शिपायूच भायलेभायर घोडे, हत्ती विकतात म्हूण तांचेर आरोप करतालो. शिपाय बाबडे भियेल्ले! हें कशें जाता तेंच तांकां कळनासलें. राजाली पाग सामकी रिकामी जायत आयिल्ली.

हेवटेन विक्रम त्या राज्यांतल्यान जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हूण पळत रावलो.

वाटेर ताका एक दर्या लागलो. आतां फुडें खंय वचप वा कितें करप कांयच ताका कळना जालें. तो हेवटेन तेवटेन भोंवता आसतना ताका एका झाडापोंदा एक साधू तपश्चर्या करता तो दिसलो. तो घोड्यावेलो सकयल देंवन साधू म्हऱ्यांत गेलो. समाधी सोंपतकूच साधून दोळे उगडले. विक्रमान साधूच्या पांयार घालून घेतलें. साधून विक्रमाक आशीर्वाद दिलो आनी ताची वासपूस केली, तेन्ना विक्रमान घडिल्ली सगली गजाल साधूक सांगली. साधून दोळे धांपून एक मंत्र म्हळो आनी ताका अंतरगिन्यानान सगळी गजाल समजली. साधून दोळे उगडले आनीक विक्रमाक सांगलें, "तूं आतां कांयच भियेवं नाका. तुजेवेलें संकट आतां टळ्ळें. तुजे हुशारकायेन तूं ते राक्षिणीली भयण रावता थंय चल. हांव तुजे फाटीर जें कितें बरयतां तें ते राक्षिणीक दाखय. ती तुका कांयच करची ना. सात समुद्रां पलतडीन वचूंक हांव तुका एक शेंदरी दितां. तिचेर उबो राव आनी 'उड शेंदरे' म्हण. तूं उडत पलतडीन पावतलो. बाकीचे थंय पावतकूच सगळें तुवें तुजे हुशारकायेन करचेलें. विक्रम साधूक पांयां पडलो आनी साधून दिल्ले शेंदरेर उबो रावलो. 'उड शेंदरे' म्हणनाबरोबर शेंदरी उडून सात समुद्रांपलतडीन गेली.



शेंदरेवेल्यान तो देंवलो. आतां ताचेकडेन घोडो नासलो. ताणें आपलो घोडो साधूकडेन दवरिल्लो. तो चलत वतालो. चलतां चलतां वाटेर ताका ते राक्षिणी सारकीच एक बायल फुड्यांत उबी दिसली. ताणें तिका पळयतकूच कच्च करून आंग काडलें. सरसर करून ताच्या दोळ्यांमुखार पयलींचो प्रसंग उबो रावलो. तो खूब भियेलो. पूण ताका साधूच्या उतरांची याद जाली. ते राक्षिणीची भयण सात समुद्रांपलतडीन रावता. ही याद जायना फुडें ताणें आनी कळाव केलो ना. तो सट् करून परतलो. आनी आपली फाट ते बायलेक दाखयली. ते बायलेन तीं फाटीवेलीं उतरां वाचलीं. साधून राक्षसांचे भाशेंत ताचे फाटीर बरयिल्लें. "हो येता तो भुरगो म्हजो. तूं ताची मावशी. ताका बरो करचो, ताका कसलोच त्रास दिवचो न्हय. तो मुद्दाम आपले मावशेक पळोवंक आयला. ताका कितेंच उणें करचें न्हय." हे बायलेन तीं उतरां वाचना

फुडें ताका आपले वेंगेंत घेतलो आनी ताची अपुरबाय करूंक लागली. ती ताका घेवन आपल्या घरा गेली. घर खंयचें? दुसरो राजवाडोच आसलो तो! आपलो पुतणयो पयलेच खेपे आपल्यागेर आयला म्हूण तिकाय खोस जाल्ली. तिणें ताचेखातीर बरें जेवण केलें. ताका आग्रो करून करून वाडलो. विक्रमाक सामकें पुरो जाल्लें. ताणें त्या दिसा बरो विसव घेतलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं विक्रम उठलो. ताची बरी नेटान सेवा चालू आसली. आपल्याक तुजें सगळें घर दाखय म्हूण तो मावशेचे फाटीक लागलो. मावशीय नेटार आसली. कारण, विक्रम तिका पावला कणकणी तोखेतालो. मावशे, मावशे, करून तिच्या फाटल्यान फुडल्यान भोंवतालो आनी आपले आवयपरस मावशी कितली बरी म्हणपाचीं उदाहरणां दिवन सांगतालो. आपूण तुगेरूच रावतां आनी घरा वचना म्हूण तिका तो फुलयतालो. "आपले आवयपरस तूं आपल्याक बरें करता." हीं उतरां आयकून तिका आनिकूय बरें दिसलें. तिणें ताका आपलें घर दाखोवंक सुरवात केली. तिच्या घराचें साल, मदलो हॉल, तातूंत आशिल्यो राजघराण्यातल्या सारकेल्यो वस्तू पळोवन विक्रमाक अजाप जालें. मनांतल्यान रागूय आयलो. पूण तो सगळो राग गिळून तो तिचे बरोबर फिरतालो. फिरत, फिरत शेवटाक तीं दोगांय एके चौकेर पावलीं. थंय एका फाटल्यान एक पांच कुडी, व्हडलीं व्हडलीं कुलपां लावन धांपून दवरिल्ल्यो. विक्रमाक त्यो पळोवन अजाप जालें. पूण राक्षीण ते ते कुडी म्हऱ्यांतल्यान परतता तें पळोवन विक्रमान म्हळें, 'मावशे, तुवें म्हाका सगळें घर दाखयलें. पूण ह्यो कुडी कित्याक दाखोवंक ना गे? त्या कुडींनी म्हाका ना दाखोवपा सारकें कितें आसा तर?" त्या उतराक राक्षीण म्हणूंक लागली, "बाबा, जाणा मरे, त्यो कुडी हांव गरज आसल्यारूच उकत्यो करतां. तातूंत म्हजें आनी तुजे आवयचें गुपीत आसा." हें आयकना फुडें विक्रमाची उत्सुकताय एकदम वाडली. ताणें म्हळें, "मावशे, तूं आतां मात सामके म्हजे आवय सारकीच उलयली हां! तीय बी म्हाका अशेंच करता. हांव भुरगो म्हूण म्हाका कांयच सांगना. पळय मावशे, तुवें आनी आईन जर तुमचें गुपीत म्हाका सांगलें ना जाल्यार जेन्ना तुमी संकटांत सापडटलीं, तेन्ना हांव तुमचो सुटावो कसो करतलों? म्हाकाय बी कितें तें गुपीत कळूंक जाय मुगे? म्हजी आवय एक पिशी! पूण हांव जाणा, तूं शाणी आसा. तुका हांव सांगतां ताचो अर्थ बरेतरेन कळटा."

आपले भयणीक पिशी आनी आपणांक शाणी म्हळां ह्या विचारांनूच ती राक्षीण भुल्लुसली, मुरगटली. आपल्या मोगाच्या पुतणयाक आपलें गुपीत सांगल्यार कांयच लुकसाण जावचें ना

हाची तिका खात्री जाली. देखुनूच तिणें ते कुडीतलें गुपीत विक्रमाक सांगचें अशें थारायलें..

राक्षिणीन पयली कूड उकती केली. दार उगडना फुडें सगळी कूड चकचक करून चकचकूंक लागली. ते कुडींत तरातराचे हिरे, माणकां, मोतयां भरिल्लीं. तीं पळोवन विक्रमाचे दोळे धवे जाले. तिणें म्हळें, "हें सगळें धन म्हजें." मागीर तिणें दुसरी कूड उगडली. तातूंत भांगर, रुपें भरिल्लें. तिणें म्हळें, "हें सगळें तुजे आवयलें. तिका भांगर चड आवडटा." तिसरे कुडींत स सोशांचीं पिलां आसलीं. विक्रमाक त्या पिलांचे दोळे वळकीचे दिसले. ताणें म्हळें, "हीं सोशाचीं पिलां हांगा बंद करूनशीं दवरल्यांत?" तेन्ना तिणें म्हळें," आरे पिशा, हीं सोशांचीं पिलां न्हय! हे अमरावतीच्या राजाले राजकुंवर. एकाच राजाले सात राजकुंवर जर आमचे देवीक बळी दीत जाल्यार देवी अमर करता, अशें म्हजे भयणीक एका मांत्रिकान सांगिल्लें. आनी त्या सोदाक ती आशिल्ली. तिणें हीं स पिलां हाडल्यांत म्हणजे म्हाका दिसता तिका सातवोय मेळ्ळा आसतलो." विक्रमाक आपूण हांतलो सातवो आनी तिका आपणें कशें फटयलां म्हणपाची याद जाली. ताणें म्हळें, "मावशे, खरेंच आई ह्या दिसांनी घरांत चडशी नासतालीच. म्हाका दिसता त्याच कामाक लागल्या, म्हूण तिणें म्हाका तुजे म्हर्‍यांत धाडलां." मागीर राक्षिणीन चौथी कूड उगडली. ते कुडींत तशींच सात सोशांचीं पिलां आसलीं. तीं पळोवन विक्रमान म्हळें, "मावशे, हीं आनीकशीं पिलां कित्याक हांगा बंद करून दवरल्यांत गे?" तेन्ना राक्षिणीन म्हळें, "हीं पिलां न्हय, ह्यो सात राजकुंवरी. ह्यो हांवें धरून हांडल्यात. परां उमास. त्या दिसा हांकां हांव आमचे देवीक बळी दितलीं, म्हणजे देवी म्हाका प्रसन्न जावन वर माग म्हणटली." विक्रमान विचारलें, "मागीर मावशें, तूं कितें मागतली? " "बाबा, हांवें थारायिल्लें, बरोसो तुजे सारको एक भुरगो मागचो. पूण तूंच हांगा रावता म्हणटा न्हय म्हूण म्हजेसारकी बरी सून हांव मागतलीं!" राक्षिणीन म्हळें. "खरेंच मावशे, तूं कितली बरी. म्हाका तर हांगासल्लो आतां हालनच दिसना. बरें मावशे, हे ते कुडींत कितें आसा?" "ते कुडींत मरे, दाखयतां." अशें म्हूण तिणें कूड उगडली. ते कुडींत आनी तीन ल्हान ल्हान कुडी आसल्यो आनी दर एके कुडीक मोटीं मोटीं कुलपां आसलीं. तिणें पयलें कुलूप उगडलें. भितर एक कुपी आसली. तिणें सांगलें, "हे कुपयेंत मंत्रिल्लें उदक आसा. तें सोशाच्या पिलांचेर मारतकूच तीं मनशां जातलीं. तांकां मनीस करुनूच बळी दिवंक जाय, असो देवीचो नेम आसा." मागीर तिणें दुसरी कूड उगडली. ते कुडींत एका पांजर्‍यांत एक पोपट आसलो. तिणें म्हळें, "ह्या

पोपटाच्या पोटांत म्हजो जीव हावें राखून दवरला. हो पोपट जेन्ना मरतलो तेन्ना हांव मरतलें. हांव जर कसल्याय संकटात सापडलें जाल्यार म्हजो म्हळ्यार ह्या पोपटाचो जीव वाटावपाची जापसालदारकी तुजी." हें आयकनाफुडें विक्रमाक भितरल्यान राग आयलो. पूण ताणें तो दाखयलो ना. आनी म्हळें, "मावशे, तूं कांयच भियोंवं नाका. तूं म्हजे खातीर इतलें करता आनी हांव तुजो अपुरबायेचो पुतणयो तुजेखातीर इतलेंय करचों ना?" अशें ताणें म्हणटकूच राक्षिणीक सूऽऽ जालें. मागीर तिणें निमाणें कुलूप उगडलें. ते कुडींत एका मेजार एक बावली आसली. तिणें म्हळें, "हे बावलेंत तुजे आवयचो जीव आसा. हे बावलेचो हात काडल्यार तुजे आवयचो हात येतलो. पांय काडल्यार पांय येतलो आनी गोमटी मुड्डिल्यार तुजी आवय मरतली." हें आयकना फुडें विक्रमान बेठेंच तोंड वाकडें केल्ले भशेन केलें आनी तिका 'बेगीनबेगीन कुडी धापून घे' म्हूण सांगलें. मागीर दोगांय घरा आयलीं. आयजूय राक्षिणीन बरें जेवण केल्लें. तीं



दोगांय जेवलीं. न्हिदता आसतना विक्रमान म्हळें, " मावशे, तूं म्हाका दुसरे कुडींत कित्याक न्हिदयता? म्हाका थंय भंय दिसता. म्हाका आईक घट्ट वेंगेंत धरून न्हिदपाची संवय. तूं म्हाका तसोच वेंगेंत घेवन न्हीद." राक्षिणीक खूब खोस जाली. तिगेर भुरगेंबाळ नाशिल्ल्यान तिच्या अंतस्करणात आसलो आवयचो मोग तिका उक्तो करूंक मेळनासलो. ती खोश्शेंत म्हणूंक लागली, "बाबा, आज खरेंच म्हाका जिवाचें सार्थक जालें कशें दिसलें. तूं म्हजे कुशीकच न्हीद." विक्रमाक तेंच जाय आसलें. कारण, त्या कुडींच्यो चावयो राक्षिणीच्या गळ्यांत आसल्यो. तो तिचे कुशीक न्हिदिल्ल्याचें सवंग घेवन पडलो. बरीऽऽ रात जातकूच राक्षीण मोटमोटयान घोरेवंक लागली. विक्रम मदीं, मदीं उसउसतालो. खरें म्हळ्यार ताका अशी न्हिदपाची संवय नासली आनी राक्षिणीच्या तोंडाक तर रगताच्यो घाणी मारताल्यो. पूण तिच्या तोंडांतल्यान आपल्या भावांक आनी बाकीच्यांक सोडोवपाखातीर ताका हें सोंसचेंच पडटालें.

ताणें तिचें तोंड पोशेतां पोशेतां ल्हवूच चाववेक हात घालो. राक्षिणीक कांयच कळ्ळें ना. कारण, ल्हान भुरगो कसो खेळटा तसो तो न्हिदचे पयलीं चाववो वोडून तिच्या गळ्यांतलें भांगर वोडून फकाणां करीतूच आसलो. तिका ताची संवयशी जाली. विक्रमान मदींच ल्हवूच चाववो काडून हातांत घेतल्यो. राक्षीण सुस्त न्हिदिल्ली.

विक्रम माजरा पावलांनी दाराकडेन गेलो. ताणें ल्हवूच दार काडलें आनी तो भायर धांवलो. तो धांवतना आपटलो, धपटलो, पूण ताणें जिवाची पर्वा केली ना. खरशेत तो त्या पांच दारांकडेन गेलो आनी ताणें तें मुखेल दार उगडलें. मागीर तसोच फुडें वचून पांचवे कुडींतलें दुसरें दार उगडलें, थंय तो पोपट आसलो. पांजऱ्याचें दार उगडून ताणें पोपटाचे गचयेकूच हात घालो आनी तरसाद घेवन पोपटाची गोमटीच कापली. त्या पोपटाक थंयच उडोवन तो सट् करून तिसऱ्या दाराकडेन गेलो. ताका एक खीण लेगीत वगडावपाचो नासलो. ताणें तें दार उगडलें आनी ते 'बावलेचे' हात तोडले, पांय तोडले, तिची तकली उडयली. मागीर ताणें सुशेगाद पयली कूड उगडली. कुडींतलें मंत्रिल्लें उदक घेवन तो तिसरे कुडींत आयलो. सवूय सोशे तुकूतुकू करून ताच्या तोंडाक पळयताले. मंत्रिल्लें उदक त्या सोंशांचेर मारलें, तेसरशीं ताचे सवूय भाव ताचे मुखार उबे रावले. मागीर ताणें चौथे कुडीचें दार उगडलें आनी ते सोशिर्णींचेर उदक मारलें. ते बरोबर त्या सोशिर्णींच्यो सात सोबीत राजकुंवरी जाल्यो. तांणी विक्रमाचे खूब उपकार आठयले. मागीर विक्रम आनी ताच्या सातूय भावांनी हिरे, माणकां, भांगर घेतलें, त्या राजकुंवरींक घेतल्यो आनी शेंदरेर उबे रावून 'उड शेंदरे साता समुद्रांपलतडीन' म्हळें. ते बरोबर ती शेंदरी उडली, ती बद्द साधूफुडयांत वचून थांबली. विक्रमान साधूक साश्टांग नमस्कार घालो आनी आपल्या राज्यांत येवपाचें ताका आमंत्रण दिलें. साधूय विक्रमाच्या पराक्रमाचेर खोशी जालो. ताणें ताच्या भावांक मंत्रान स घोडे करून दिले आनी सातूय भावांनी एक एक राजकुंवरी आनी सगळें धन घेवन घोडे सोडले.

विक्रम आनी ताचे भाव बद्द ती राक्षीण आशिल्ली त्या राज्यांत गेले. त्या राजाक जेन्ना विक्रम मेळ्ळो, तेन्ना राजान आपूण कसो फटवलो तें सांगलें. ती आपली बायल राक्षीण आज आपुणूच मेली म्हणपाचें जेन्ना राजान सांगलें, तेन्ना विक्रमान सगळी गजाल राजाक सांगली आनी मंत्राचें उदक राजाले पागेर मारलें. त्या बरोबर राजाचे सगळे घोडे, शिपाय, दासी ज्यो राक्षिणीन खाल्ल्यो त्यो सगळ्यो जित्यो जाल्यो. राजान विक्रमाचे पांय धरले.

फुडें विक्रम आनी ताचे भाव त्या सात राजकुंवरींल्या देशांत गेले. तांच्या बापायक मेळ्ळे आनी त्या राजाल्यो राजकुंवरी ताचे सुवादीन केल्यो. विक्रमाचो पराक्रम पळोवन तो राजाय खोशी जालो आनी आपुणूय अमरावतीक राजा वैजनाथाक मेळूंक तुमचे बरोबर येतां म्हूण भायर सरलो. तेन्ना तागेल्यो सात धुवोय अमरावतीक वचूंक तयार जाल्यो. राजान त्या सातूय राजकुंवरांक आपणागेर दवरलें. तांकां कितें जाय नाका ताची बरे तरेन वासपूस केली आनी दुसऱ्या दिसा ते आपल्या कुटुंबासयत अमरावतीक वचूंक भायर सरले.

अमरावती नगरांतल्या लोकांनी हत्ती, घोडे घेवन कितलेशेच लोक राज्यांत येतात तें पळयलें. ते भियेले. तांकां दिसलें, दुस्मान राज्यार घुरी घालूंक अयल्यात. तांणी राजाक बेगोबेग खबर धाडली आनी तेवूय बी आपलें सैन्य घेवन फुडें धांवले. तें विक्रमाच्या लक्षांत रोखडेंच आयलें. तो आपलो घोडो घेवन नेटान फुडें आयलो आनी ताणें शिपायांक आपली वळख दाखयली. ते बराबर सगळें सैन्य फाटीं परतलें आनी तांणी सातय पूत आयिल्ल्याची बातमी राजाक दिली. ते बराबर राजान तांकां येवकार दिवपाची तयारी करात म्हूण ताकीद दिली. राणी तर केन्ना एकदां आपल्या सातूय पुतांक पळयतली म्हूण आशेल्ली. राजाले मंत्री वाजयत, गाजयत फुडें येवकाराक गेले. दासी पंचारती घेवन फुडें दारांत उब्यो रावल्यो. अशेतरेन वाजत, गाजत सातय राजकुंवरांची वरात राज्यांत भितर सरली. राणयेन मोगान सातूय कुंवरांक म्हऱ्यांत ओडून तांची खबर घेतली. राजकुंवरींक पळयतकूच सगळ्यांचे दोळे खोशयेन लिकलिकले!

राजकुंवरा बरोबर आयिल्ल्या राजान राजा वैजनाथाक विक्रमाचो पराक्रम सांगलो आनी ताणें आपल्या सातूय कुंवरींक राक्षिणीच्या तोंडांतल्यान कश्यो सोडयल्यो, तें तिखटमीठ लावन सांगलें. तेन्ना राजा आनी राणी विक्रमाच्या पराक्रमाचेर खोशी जालीं आनी राजान तो खरो राज्याचो वारस म्हूण जाहीर केलें. हें आयकून विक्रमाचे व्हडले सवूय भाव खोशी जाले. तांकां आपलो धाकटो भाव राजा जातलो म्हूण मातूय खंत जाली ना. पूण विक्रम जसो पराक्रमी आसलो तसोच आपल्या भावांचो तो मोग करतालो आनी तांकां मानूय दितालो. ताणें बापायक सांगलें, "तुमी राजा जावपाचो मान दिला, म्हूण हांव खोशी आसां. पूण हें राज्य तुमचे फाटल्यान म्हज्या बापायसमान आशिल्ल्या व्हडल्या भावाक दिवचें. आमी सगळे ताका मदत करतले आनी एकवटान रावतले."

विक्रमाचीं हीं उतरां आयकून राजाक आनी राणयेक आपल्यागेर गुणेस्त पूत जाल्ल्याचें समादान जालें. एकमेकांचेर मोग करपी आनी एकचारान रावपी असले राजकुंवर आपणांक जांवय मेळचे म्हूण राजकुंवरील्या बापायन आपल्यो सातय कुंवरी तुमच्यो सुनो करात म्हूण मागलें. सातूय राजकुंवरांकूय त्यो आवडलेल्यो. राजान रोखडेंच हां म्हळें आनी एक दीस एक बरोसो म्हूर्त पळोवन तांचें लग्न मोटया दबाज्यान केलें. व्हडल्या कुंवरांचो राज्याभिशेकूय त्याच दबाज्यान केलो. ह्या सुवाळ्याक बाकीचे सवूय राजकुंवर खोशयेन वावुरताले तें पळोवन राजा राणयेक दिसलें, पूत आसचे तर म्हज्या राजकुंवरासारके.



# चड शाण्याक फातरांचें शीत

विजयपूर गांवांत विनायक नांवांचो एक तरणाटो रावतालो. विनायक ल्हानपणापसून मात्सो उणे बुद्दीचो आसलो. दिसपाकूय तो तसो सुंदर नासलो. ताचे वांगडचे ते खातीरच ताची खूब मस्करी करताले. ताणें कितेंय उलोवं, खी ऽऽ खी करून हांसताले. विनायकाक हाचें खूब वायट दिसतालें. आपल्याक देवान जल्माक घालून दुख्खांत उडयलो अशें ताका दिसतालें. तो देवाक सदांच दोश दितालो. ताच्या वांगडच्यांचीं लग्नां जाल्लीं, पूण विनायकाक कोणूच चली दिवंक तयार नासले. चलयो तर ताका पळोवन तोंडां परतिताल्यो.

विनायकाल्या शेजराकूच विजया नांवांचें एक चली रावतालें. तें दिसपाक वायटशें नासलें. विनायकाक तें खूब आवडटालें. तो तांगेर वतालो. ताचेबराबर उलयतालो. ताका दिसतालें, विजय बी आपल्याचेर मोग करता. पूण विनायकाक बाबड्याक खंय खबर, एक चली आपलो भावी घरकार सोदतना सुंदर, हुशार आनी पयशेकार सोदता म्हूण!

एक दीस विनायक विजयागेर गेल्लो. विजयान ताका सदांभशेनूच येवकार दिलो. च्या, उदक दिवन जातकूच विनायकान ल्हवूच विशय काडलो. "विजय, हांव तुका कितें सांगूक सोदतां." विजयान विचारलें, "कितें?" विनायकान म्हळें, "हांव तुजो मोग करतां." हें अशें कितेंय विनायक म्हणीत अशें विजयाक दिसूंक नासलें. ताका विनायकाचो सामको राग आयलो. ताणें रागान म्हळें, "तुवें तुगेलें रुपडें हारशांत पळयलां? काय तर दिसता सवंग कशें! मार आयला म्हजेकडेन लग्न जावंक! तुजे कडेन कितें आसा म्हूण हांव लग्न जावं? तुजेकडेन दुडू आसात? तुजें भाट आसा? सोबितकाय आसा? एक तरी अशें बरें तुजेकडेन आसा, जाका भुलून हांव तुजेकडेन लग्न जावं? म्हाका तुजेकडेन लग्न जावन म्हजो फुडार काळखांत उडोवचेलो ना." विनायकाक बाबड्याक आपणें हाका खंयचें विचारलें, अशें जालें. तो मान सकयल घालून मोन्यानी घरा आयलो आनी उशांत तोंड लिपोवन धळधळीत रडलो. इतले दीस ताचे वांगडी ताचीं फकाणां करताले म्हूण ताका वायट दिसतालें. पूण आयज जालां तितलें दूख्ख ताका केन्नाच जावंक नासलें. ताका दिसलें, हो जीव जितो दवरून कांयच उपेग

ना. वता वता थंय अपमान सोंसचे परस जिवूच ना केल्लो खंयच्यान वायट! ताका आवय, बापूय, भावंडां कोणूच नाशिल्ल्यान तो आपलें दुख्ख उक्तावपाक शकनासलो. ताचो खाशेलो असो कोण इश्टय नासलो. बाबडो सामको कांचवेल्लेभशेन जाल्लो. निमाणेंकडेन ताणें निश्चेव केलो, आतां आनीक जिवो रावप ना. खंयूय तरी वचून जीव दिवप. हीं चितनां येनाफुडें ताणें आनीक वेळ केलो ना.

चलतां चलतां तो एका व्हडल्या रानांत पावलो. ताका वेळा-काळाचें कसलेंच भान नासलें. तान भूक तो विसरलो. ताच्या दोळ्यांमुखार फकत एकूच उद्देश आसलो. जिवाची वाट लावप. आपल्या चितनांतूच तो चलतालो. पूण आतां ताका वाट दिसना जाली. चारूय दिकांनी काळखाचें राज्य सुरू जालें. चलून चलून ताका खूब पुरो जाल्लें. म्हूण तो एका व्हडल्या झाडापोंदा विसव घेवंक बसलो.



विनायक कितलोसोच वेळ थंयच बसलो. रात जाल्ल्यान तो फुडें खंयच वचूंक शकनासलो. विनायक ज्या झाडापोंदा बशिल्लो, त्याच झाडार एक ब्रह्मराक्षस रावतालो. विनायक थंय बशिल्ल्यान त्या ब्रह्मराक्षसाक कशीच न्हीद येना जाली. तो झाडावेल्यान सकयल देंवलो आनी विनायकाच्या म्हर्‍यांत गेलो. विनायकाक पळयना फुडें ताका कळ्ळें, हो मनीस भोव दुखेस्त आसा. ताणें विनायकाक विचारलें, "आरे! तूं हांगा कित्याक आयला? तुजेखातीर म्हजी न्हीद पेड्डेर जाता. तूं सकयल बशिल्ल्यान म्हजो दोळो लागना. तूं इतले रातीर ह्या अटंग्या रानांत कित्याक आयला? तुका खबर ना, हांगा कितलीं व्हडलीं-व्हडलीं जनावरां आसात तीं! तूं जर तांचे नदरेक पडशीत तर तुका तीं जितो दवरचीं नात! तूं कितें मरूंक आयला हांगा?" त्या उतराक विनायकान म्हळें, "हय सायबा, हांव हांगा मरूंकच आयलां. शारांत मनीसरूपी जनावरां आसात, ते परस हीं रानांतलीं जनावरां परवडलीं. हीं तरी एकाच धपक्याक मारून खातात, पूण मनीस मनशाक खेळोवन खेळोवन मारता!" ब्रह्मराक्षसान विचारलें, "अशें कितें जालां तर तुजें? इतलो निर्शेलासो कित्याक तूं?" एक राक्षस मोगान आपली खबर घेता, तें

पळोवन विनायकाक दुख्खाचो उमाळो आयलो. ताणें आपल्या जिवीतांत घडिल्ल्यो सगल्यो घडणुको ब्रह्मराक्षसाक सांगल्यो. लोक तो बरो दिसना म्हूण ताचेकडेन कशे वागताले, विजयान ताचो अपमान कसो केलो, तो काळो म्हूण ताका कसो हिणसायलो, हें सगळें आयकनाफुडें ब्रह्मराक्षसाक खो-खो करून हांसूंक आयलें. ताणें म्हळें, "आरे, इतलेंच मरे तुज्या दुख्खाचें कारण? तुका फकत रूपूच जाय मरे? हांव तुका रूप दितां. तुका सोबीत मनीस करतां. मागीर पळय तें विजय तुजेकडेन लग्न जावंक कशें तयार जातलें तें. आतां तूं दोळे धांप आनी हांव उगड म्हणटां तेन्ना दोळे उकते कर." विनायकान रोखडेच दोळे धांपले. ब्रह्मराक्षसान कसलो तरी मंत्र म्हळो आनी विनायकाक दोळे उगडूंक सांगलें. दोळे उकते कर जाल्यार कितें अजाप! ताचें सगळें आंग सामकें गोरें, गुबगुबीत, सोबीत जाल्लें. विनायकाक खूब खोस भोगली. ताणें परत परत ब्रह्मराक्षसाचे उपकार आठयले आनी धादोसभरीत जावन रातचो काळखांतूच घरा वचूंक रस्तो धरलो. ताका केन्ना काय विजयागेर वचूं अशें जाल्लें. विजयालो नेट आतां साप्प देंवतलो. आपणांकच व्हडलें सोबीत म्हणटालें, आतां पळय सुतासारकें कशें नीट जाता तें! अशे न्हय न्हय ते विचार विनायकाल्या मनांत येवंक लागले आनी तो केन्ना घरा पावलो, तेंच ताका समजलें ना. घरा येनाफुडें ताणें पयलें काम केलें तें हारशांत पळोवचेलें. नाजाल्यार आंग सुंदर आसलें म्हूण जालें? तोंड सुंदर नाका? ताणें हारशांत पळयलें मात, ताका आपल्या जाग्यार दुसरोच कोणतरी दिसलो. आपूण ह्या संवसारांत आसां म्हूण तो साप्प विसरलो. हारशांत दिसतां, तो आपुणूच काय दुसरो कोणतरी म्हूण ताणें आपणांक एक ल्हवूच चिमटो काडलो आनी हारशांतलो मनीस हेर कोणूच न्हय तर आपुणूच म्हण्टकूच ताका सूऽऽ जालें. तो तसोच विजयागेर वचूंक गेलो. ताणें विजयाल्या दारार मारलें. दार काडूंक विजयच आयलें आनी दारार कोणतरी अनवळखी मनीस आयला म्हूण "तूं कोण आनी कोणाक मेळूंक आयला?" म्हूण तें चवकशी करूंक लागलें. जेन्ना विनायकान ताका आपूण विनायक म्हूण सांगलें, तेन्ना तें भियेलें. कोणतरी आपलीं फकाणां करूंक आयला म्हूण पिकारूय जालें. पूण जेन्ना विनायकान आपल्याक ब्रम्हराक्षसान वर दिल्ल्यान आपूण असो बदलला म्हूण सांगलें आनी सगळ्यो थंयच्यो गजालीय ताका सांगल्यो तेन्ना ताका खरें दिसलें. पूण तें विनायकाक पळोवन जितलें भुल्लुसूंक जाय आसलें तितलें भुल्लुसलें ना. ताणें विनायकाक म्हळें, " तूं सुंदर जावन आयला म्हूण हांव तुजेकडेन लग्न जातलें म्हूण समजशीत. लग्न जावंक फकत सुंदरकाय



चलना. सुंदरकायेबरोबर अर्थीक बळगेंय जाय! सुंदरकाय कितें चाटचेली आसा? सुंदरकायेन पोटां भरनात. सुंदरकाय जायच. पूण तेचबराबर मनशाकडेन पयसोय आसूंक जाय. ना जाल्यार खातलीं कितें? हांव तुजेकडेन लग्न जावंक तयार ना."

विनायक बाबडो येदेंशें तोंड करून विजयागेरसाकून भायर सरलो आनी नीट्ट त्या रानांत ब्रह्मराक्षसा म्हऱ्यांत गेलो. ताचें रडकुरें तोंड पळोवन ब्रह्मराक्षस कितें समजूंक जाय तें समजलो. तरीकय ताणें ताका म्हळें, "कितें रे? तुका सुंदरकाय जाय आशिल्ली, ती हांवें तुका दिली. तरिकूय तुजें समादान जालें ना? आजूय तूं म्हजी न्हीद मोडूंक आयला?" तेन्ना विजयागेर घडिल्ली सगळी गजाल विनायकान ब्रह्मराक्षसाक सांगली आनी म्हळें, "तुमी म्हजेर उपकार केल्यातूच, तशेंच आतांय तुमीच म्हाका वांचोवचो पडटलो. हांव गिरेस्त जायना जाल्यार विजय म्हजेकडेन लग्न जावचें ना आनी विजय लग्न जायना जाल्यार हांव जितो रावचों ना." ब्रह्मराक्षसाक विनायकाची काकळूट दिसली आनी ताणें म्हळें "हे ऽ त्या रुखार पोटली बांदून हांवें म्हजी दौलत दवरल्या. ती तूं घेवन वच". ब्रह्मराक्षसान बोट दाखयिल्ल्या रुखार विनायक बेगोबेग चडलो, ती पोंटली काडली आनी ब्रह्मराक्षसाचे उपकार मानून ताणें घरची वाट धरली. आतां तो सुंदरच नासलो तर गिरेस्तूय जाल्लो. आतां विजय दोळे धापून आपणाकडेन लग्न जातलें म्हणपाची ताका खात्री आसली, म्हूण तो सगळें दुख्ख विसरून ताकतिकेन घरा आयलो. सगळें धन ताणें सारकें जाग्यार एका ट्रंकांत दवरलें आनी तो विजयागेर गेलो. ताणें ब्रह्मराक्षसान आपणांक कशी गिरेस्तकाय ओंपली, हाचें तिखटमीठ लावन वर्णन केलें. पूण विजय ताची ही गजाल आयकून खोशी जालें ना. तें म्हणूंक लागलें," मनीस सुंदर आनी गिरेस्त आसलो म्हूण जायना. ती गिरेस्तकाय तिगोवंक बुदवंतय आसूंक जाय. तुजेकडेन सुंदरकाय आसा, तूं गिरेस्तय जालो. पूण बुद्द मात तुका इल्ली लेगीत ना. असल्या फातर बुद्दीच्या मनशाकडेन हांव केन्नाच लग्न जावचेलें ना."

हें आयकनाफुडें विनायकाक दिसलें आपणें इतलेंय केल्लें फुकट गेलें. तो साप्प निर्शेलो. तसोच उठून परतोय रानांत गेलो आनी ब्रह्मराक्षसाक ताणें सगळी गजाल सांगली. ताची काणी आयकून ब्रह्मराक्षसाक दिसलें, आपणें हाचेर इतले उपकार केल्यात. आतां इल्ल्याशा कामाक लागून बाबड्याक कित्याक आडावचो ? ताणें म्हळें, "हें पळय, हांव सांगतां त्या रुखापोंदा दोळे धापून उबो राव. हांव तो बुद्दीचो रूख हालयतां. बुद्दीचीं पानां तुजे तकलेर पडटलीं आनी तूं बुदवंत जातलो." आनी खऱ्यांनीच ब्रह्मराक्षसान बुद्दीचो रूख हालयलो. सरसर करून विनायकाल्या माथ्यार पानां पडूंक लागलीं आनी खऱ्यांनीच ताका आपणांभितर कसलो तरी बदल जाता म्हणपाचें जाणवलें! थोड्या वेळान ब्रह्मराक्षसान ताका दोळे उगडूंक सांगलें. ताणें दोळे उगडले आनी ब्रह्मराक्षसाच्या पायांर घालून घेतलें. "आयज पळय, तुमी म्हजेर उपकार केल्यात, ते हांव जल्मभर विसरचों ना." अशें उतर ब्रह्मराक्षसाक दिवन ताचे भोवन भोवन उपकार आठोवन विनायक भारावილ्ल्या अंतस्करणान घरचे वाटेक लागलो.



दुसऱ्या दिसा पानांचो सर-सर आवाज जाता तें पळोवन ब्रह्मराक्षसान म्हळें, आज आनी कोण आयला काय हांगा ? जेन्ना सरसर आवाज ताच्या म्हऱ्यांतूच पावलो आनी ताणें पळयलें, एक चली ताच्या म्हऱ्यांत हात जोडून उबी. चलयेक पळयना फुडें ब्रह्मराक्षसान म्हळें, "हांव जाणांच आसलों तूं येतलें म्हूण. तूं विजय मुगो ?" "हय सायबा हांवच तें विजय. हांव तुमकां सांगूंक आयलां, कालच विनायक विजयपूर सोडून व्यापार करूंक भायल्या देसांत गेलो. हांवे ताचेकडेन पयलीं लग्न जावपाक न्हयकार दिल्लो, पूण तेन्ना तो सुंदर नासलो, गरीब आसलो आनी बुदवंतय नासलो. आयज तो सगळ्या गुणांनी पुराय आसुनूय म्हाका सोडून गेलो. आतां हांव कितें करूं ?" म्हूण विजय मोटमोट्यान रडूंक लागलें. तेन्ना ब्रह्मराक्षसान म्हळें, "आगो पिशा, आतां विनायक पयलीं भशेन ना, गरिबय ना आनी कुरूपूय ना. आनी सांगचेलें म्हळ्यार आतां ताका बुद्दय आयल्या. जाचेकडेन बुद्द आसा, ताचेकडेन सगळें आसा. तो आपले बुद्दीच्या बळार जाय तें

करूंक शकता. ताका आतां तुजे सारकिल्ले सादारण चलयेची गरजूच कित्याक? तुजेपरस सुंदर, हुशार चलयो आतां ताका दोळे धांपून मेळत! तुवें तुजी संद वगडायली. आतां रडून कितें उपेग? हांव आतां कांयच करूंक शकना."

बाबडें विजय आपल्या नशिबाक दोश दिवन फाटल्या पांयांनी घरा परतलें. करतलें कितें? चड शाण्याक फातरांचें शीत म्हणटात तें अशें.



# गोवा कोंकणी अकादेमी

## बालसाहित्य प्रकाशन येवजण

### अंकादेमीचीं प्रकाशनां :

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | काणयां - झेलो भाग १ | - | श्री. माणिकराव गावणेंकार |
| २. | काणयां - झेलो भाग २ | - | श्री. माणिकराव गावणेंकार |
| ३. | स्वामी विवेकानंद | - | डॉ. विनय वा. मोरजकार |
| ४. | गोंयातले रूख | - | सौ. कस्तुरी देसाय |
| ५. | आटकुलें पिटकुलें | - | श्री. अभयकुमार वेलींगकार |
| ६. | गलीवराची भोंवडी | - | सौ. माया अ. खरंगटे |

### अकादेमीचे बालसाहित्य प्रकाशन येवजणेखाला हेर प्रकाशनां :

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | जादुचो कोंबो | - | डॉ. मनोहरराय सरदेसाय |
| २. | बाबू | - | श्री. एन्. शिवदास |
| ३. | दीपत्कार | - | श्री. लक्ष्मीदास बोरकार |


मेळपाचें ठिकाण

**गोवा कोंकणी अकादेमी**

पर्वरी - गोंय